# आडकात्रिंतुलें फोप्पळ



– होसाड बाबुटि नायक

कुळागर प्रकाशन

# आडकात्रिंतुलें फोप्पळ
(Adkatrintule Phoppal)

❑

साहित्य विविधा... (पुस्तक १५वें)

❑

पयली आवृत्ती : २००८

❑

छापपी आनी उजवाडावपी
सत्यवान कुंदे
कुळागर प्रकाशन, पो.बॉ. नं. ७८,
मडगांव, गोंय – ४०३ ६०१

❑

मुद्रक :
कस्तुरी प्रिंटर्स
ढवळी, फोंडा – गोंय.

❑

मोल : २५ रुपया

# नाटककार – होसाड बाबुटी नायक

कर्नाटकांत कोंकणी रंगमाचयेचो वावर कमी म्हळ्यार जाता. कांय सारस्वत युवक मंडळी आपल्या देवळांचो वनभोजन, वार्षिकोत्सव, रथोत्सवानिमित्त नाटकां सादर करतात. तशेंच मंगळूरचे कॅथोलिक भाव तांच्या फेस्तांनी, क्रिसमसा वेळार नाटकां सादर करतात. पुण मंगळूरची नाटक सभा हे संस्थेन फाटल्या साठ–सत्तर वर्सांत हजारानी कोंकणी नाटकांचो प्रयोग करून दाखलो केला. हे संस्थेक लागून शंबरानी लेखक निर्माण जालें. तशेंच हजारांनी नाटकां रंगमाचयेर आयलीं. मंगळूर आनी भोंवतणी खेड्यांनी कोंकणी नाटकाचो प्रयोग करपी तरूण मंडळी आसात. नाटकाचें विविध प्रयोग थंय जाल्यात. पौराणिक, ऐतिहासिक, सामाजिक नाटकां रंगभूमिक मेळ्ळ्यांत. स्वतंत्र कोंकणी नाटकां वांगडा इंग्रजी, कन्नड नाटकांचो कोंकणी अणकारित नाटकांय रंगमाचयेर आयल्यांत. मंगळूरकाराल्या नाटकांत प्रयोगाचे खाशेलेपण दिसून येता. कांयवेळा परंपरेचे बळगें सांबाळून, कांयवेळा नवे नवे प्रयोग करपी तरनाट्यांनी प्रायोगिक नाटकां सादर केल्यांत. पुण नाटक चळवळ म्हुण कार्य केले ते मंगळूरच्या नाटक सभेनच म्हळ्यार चूक जावची ना. कोंकणी रंगमाची जीवंत दवरपाचो वावर मंगळूरकारांनी नेटान चलयलो.

पुण उत्तर कन्नड (कारवार) जिल्ह्यात मात कोंकणी नाटकांचो दुष्काळ आयिल्लो. ह्या जिल्ह्यांत नाटकां खेळपी आशिल्ले पुण बरोवपी नाशिल्ले. होसाड बाबुटी नायक हांणी नाटकक्षेत्रांत प्रवेश करून त्या दिसांनी क्रांतिच घडयली म्हळ्यार अतिताय न्हय. पांचव्या दसकांत तांणी बरोवंक सुरूवात केली आनी कोंकणी रंगमाचयेक जीवदान दिले.

खरोखर तांच्या व्यवसायाक आनी रंगमाचयेक कसलोच संबंद नासलो. तांचो घरगुती व्यवसाय हातमाग चलोवप. तांचे म्हालगडेय होच व्यवसाय करतालें. एक दीस हातमागार बसना जाल्यार तांचें पोट भरनासलें, तितली गरीबी आसली. पुण बाबुटी नायकांक नाटकांचे पिशें धरले आनी ते नाटककार

जाले.

ते हायस्कुलांत शिकतनाच तांका नाटकांचे पिशें लागलें. ते गिड्डे (मोटवे) आशिल्ले खरे पुण दिसूंक सुंदर–सोबीत आशिल्ले. उलयताले बरें. भुरगेपणांत ते क्रियाशील आनी सुटसुटीत आशिल्लें देखून कुमेटच्या मित्रसमाज नाटक मंडळीन बसयिल्ल्या 'कुरूक्षेत्र' कन्नड नाटकांत हांका दुश्शासनाली बायल बुध्दिमतीचो पार्ट मेळ्ळो. तांणी तो भेसबरो सोबयलो, टाळयो पडल्यो. लोकांनी तोखणाय केली.

भुरगेपणांत तितलेच खूब जालें. बाबुटी नायकाक नाटकांचें पिशें लागलें. (१९४४) उपरांत माविनकुर्वे नवदुर्गा देवळांत 'द्रौपदी वस्त्रापहरण' कन्नड नाटक प्रदर्शन जाले. (१९४८) तातूंत तांणी दुश्शसनाली भूमिका केली. ताकाय बरो प्रतसाद मेळ्ळो. उपरांत तांका वेगवेगळ्या नाटकांत भूमिका करची पडली. तांणी 'कुंकूम', 'रुपवती', 'शीलवती', मातंगकन्या, बेळ्ळीचुक्कि अशा बऱ्याच नाटकांनी भूमिका करून नाटकां गाजयलीं. ते कन्नड रंगमाचयेर 'खलनायक' म्हुण प्रसिध्द जाले. तांका मान बहुमान मेळ्ळो. तांचें नाटकाचे पिशें दिसानदीस वाडत गेलें. कांयवेळा पोटाचो व्यवसाय सोडून रंगमाचयेर रमूक लागले. तांकां लोकाल्यो टाळयो मेळटाल्यो, पुण ताजें पोट भरनाशिल्लें. आपलो भुरगो वाट सोडून वचत आसा म्हण बाबुटी नायकालो बापुय खंत भोगतालो.

एक दीस 'चित्रांगदा' नाटक चलताले. अमात्याच्या भूमिकेंत बाबुटी नायक काम करतालो. कितेंय सांगल्यार आयकना, नाटकाचें पिशें सोडना म्हुण नाटक चलतनाच रंगमाचयेर येवन वामन नायकान पोटतिडकेन बाबुटीच्या कानसुलार थापट माल्ले आनी म्हळें, 'चल घराक तुका सांगता.' बाबुटीक लोकाहुजीर अपमान जाल्लो, तो रडत घराक गेलो. वामन नायकान तिडकीन सांगले, 'नाटकां सोड ताजेन पोट भरना, पोट भरपाचो धंदो कर.'

कितेंय सांगल्यार बाबुटीच्या माथ्याक चडिल्ले नाटकाचे पिशें देंवले ना. ते दिसान दीस वाडत गेले. हो भुरगो सुधारचो ना म्हण वामन नायकान आशा सोडली. पुण बाबुटीचेर तागेलो मोग कमी जालो ना. कारण बाबुटी नायकाली भूमिका पळयिल्ले मनीस येवन वामन नायकामुखार तागेल्या भुरग्याची तोखणाय करताले. तें आयकून वामन मनांतच खोस भोगतालो.

कर्नाटकात कन्नड नाटकाचें शेक्सपियर म्हण कंदगल्ल हनुमंतराय प्रसिध्द जाल्लो. तांची नाटकांचे व्हड व्हड नाटक कंपन्यो प्रयोग करताल्यो. तांणी तीसेक नाटकां बरयल्यांत. तांची नाटकां सशक्त संवादाकलागून कन्नड रंगमाचयेर

.................................................................................................




गाजल्यात. तांच्या कांय गाजिल्ल[illegible] नूमिका केल्ल्यो. कंदगल्ल हनुमंतरायाली नाटकाचे वैशिष्ट्य म्हळ्यार ते प्रासबध्द संभाषण बरयताले. शब्दाक प्रासबध्द शब्द जोडटाले. त्या काळांत तो एक नवीन प्रयोग म्हण लोक मानताले. तांगेले संवाद त्या काळांत बरेच लोकप्रिय जालें. ते काळार हेर नाटककारय, तांचे अनुकरण करताले. असल्या वेळार बाबुटी नायक कन्नड रंगमाचयेर कंदगल्ल हनुमंतरायाचीच नाटकांनी काम करताले. देखून साहजिकच तांचेर कंदगल्ल हनुमंतरायाच्या भाशेचो प्रभाव जालो. तांका ती भाशा आवडली. तेन्नाच तांणी कोंकणी नाटकां बरोवपाचे, कंदगल्ल हनुमंतरायावरी भाशेचो प्रयोग करपाचे थारायले. आनी तांचे पयले कोंकणी नाटक 'वरदक्षिणा' आयलें (१९५०).

तांचे पयलें नाटक बरेच गाजले, गांवगांवानी ताचे प्रयोग जाले. तांणी नाटकांत वापरिल्ली प्रासबध्द भाशा प्रेक्षकांक मानवली. त्या पयल्याच नाटकान होसाड बाबुटी नायक प्रसिध्द जालें. कारण होन्नावर तालुक्याच्या होसाड तांचो खेडेगांव. थंयच ते जल्मले, वाडलें, अंतरले.

पयले नाटकाच्या यशानंतर तांणी 'कंजूस पुतुमाम' नाटक बरयलें. हें एक विनोदी नाटक. हे नाटक लोकांक आवडले. उत्तर कन्नड जिल्ह्यांत वेगवेगळ्या गांवानी प्रयोग जाले. मुंबई, हुबळी शारांत प्रयोग जावन कोंकणी मनशाल्या जिबेर 'होसाड बाबुटी नायक' नांव घोळूंक लागले.

ह्या नाटकांत आपले पुताक लग्न करूंक पुत्तुमाम येवजिता, वरदक्षिणा भरपूर मेळोवचे आशेन खटपट चलयता. तागेली बायल वरदक्षिणेक विरोध करता. अशें आसतना एक दीस कंजूस पुत्तुमाम भायर पडता. स्वर्गाचे दार बडयता. थंयचे मिस्–मेनेजमेंट ताज्यान पळोव नज जाता, तो धांवन परतो येता, तागेले मडे जिते जाता. तेन्नाच्यान तो कंजूसपण सोडून दिता.

ह्या नाटकाचे प्रयोग मुंबईत चलतना ह्या नाटकान प्रभावित जाल्लो एक मनीस बाबुटी नायक हांका मेळूंक आयलो आनी म्हण्टालो, 'हांवय पयलीं अशींच आशिल्लो कंजूसपणांत, हांवय एकदा मरून पुनर्जीव जाला. ही म्हजीच कथा तुमकां कोणे सांगले?' बाबुटी नायकाक आपले नाटक जीवंत जाले अशें दिसले. हे घटनेन तांचो बरोवपाचो हुरूप वाडलो.

उपरांत ताणी 'लांब बायल घोव गिड्डो' नाटक बरयले. बायल लांब जाल्यार कितें जाता. घोव मोटवो जाल्यार घडचे हास्य प्रसंग तांणी जुळोवन नाटक बरयलें. हें नाटक गोकर्ण पर्तगाळी मठाधीश श्रीमद् व्दारकानाथतीर्थ हांणी

पळोवन शाबासकी दिली. प्रेक्षकांचो बरो प्रतिसाद मेळिल्ल्यान् बाबुटी नायकाली नाटक बरोवपाची उमेद वाडली.

सुरूवातेक ते आपल्या मित्रांक एकठांय करून तांका नाटक शिकोवन गांवागावांक मित्रमंडळी घेवन वचून प्रयोग करीत भोंवताले. प्रयोग थारिल्ल्यावेळार मित्र वेळार पावनाशिल्ल्यान, तांका आपोवन व्हरप आनी हाडप कठीण जाल्ल्यान, खर्च वाडिल्ल्यान मित्रमंडळी सोडून दिवन आपयता थंय वचून नाटकां शिकोवपाचे वावर हातात घेतलो. नाटकां शिकोवपाक ते गांवागांवान वचूंक लागले. त्याच वेळार नवीं नवीं नाटकां बरोवंक लागले. ताणीं १३० वयर नाटकां बरयल्यांत म्हण तेच सांगतलें. तातूंत कांय नाटकांची नावां अशी आसात.

ऋणानुबंध, तापत्रय, हून उदका घोट, रामप्रभूली एजन्सी, सीतेलो पूत, बोध्दरवळू , जै अलक् निरंजन, लग्ना पत्तल, बेलबाटम बायल, गांधर्व विवाह, अश्शी कशी जालें, कंजूस पुतुमा, फाल्साक सूख ना, जाल्लिले पुरा बऱ्याक, पदरा पडिल्ले पवित्र, बेबकी तुलाभार, वासुदेव भटाले ज्योतिष, भानगडी लग्न, खेळ खलास, भरिल्लो कळसो, भिक्कुमामाले वैराग्य, हांव ताका चली दिना, गोप्रसव शांति, भाड्या खोली, काणसो म्हण हिणसू नाका, – हीं तांची रंगभूमिचेर गाजिल्ली जनप्रिय नाटकां. शाळा, कॉलेजीच्या भुरग्यांखातीर तांणी एकांकिका बरोवन दिल्यो, सारस्वत युवक मंडळीनी तांची नाटकां रंगमाचयेर हाडून प्रयोग केल्ल्यान ते महाराष्ट्र, आंध्रप्रदेश, कर्नाटक, केरळांत कोंकणी नाटककार म्हुण प्रसिध्द जाले. कोंकणी नाटक म्हळ्यार होसाड बाबुटी नायक – होसाड बाबुटी नायक म्हळ्यार कोंकणी नाटक म्हळे, समीकरण तयार जाले. गांवागांवानी तांचो सत्कार जालो. तांची लोकांनी तोखणाय केली. तांचो कोंकणी रंगमाचयेचो वावर पळोवन डॉ. टी.एम.ए. प्रतिष्ठान – मणिपाल आनी शिरसींत घडिल्ल्या कोंकणी अधिवेशनांत तांचो सत्कार जालो. पुण तांची आर्थिक परिस्थिती सुधारलीना, ते जिणेच्या शेवटमेरेन हातमागार काम करीत रावले.

तांणी बरयिल्ली नाटकां आयज पळोवंक मेळनात. कारण अशें कि ते नाटकां चोपडेर बरयताले. त्या काळार झेरॉक्स करपाची सोय नाशिल्ली. नाटक प्रयोगाक दिल्ले हातबरप परतून हाडून दिना आशिल्ले. तीच चोपडी गांवागांवानी भोंवताली. नाटक सोपतकच ताजी गरज कोणाक आसा? हाका लागून तांची नाटकां तांचेचकडेन उल्ली नात.

बरयिल्ली नाटकां प्रसिध्द करूंक तांचे कडेन आर्थिक बळ नाशिल्ले. कोंकणी नाटकांक प्रकाशक मेळनाशिल्ले. म्हणून तांची नाटकां हस्तलिखितांतच उल्ली.

.....................................................................................................

शेवट ती हातबरपाय उल्ली नात. तांचे जीवितभर एकच नाटक प्रसिध्द जाले तें म्हळ्यार "ऋणानुबंध". ते १९९८ वर्सा कन्नड लिपियेंत प्रसिध्द जालां.

ताचो नाटकांचो विशय – ते व्हडव्हड शारानी भोवले नात. व्हड व्हड पुस्तकांय ताणी वाचली नात. दिसपट्टी जीणेंतल्यानच ते विशय सोदून काडटाले. आजूबाजूचे मनीसच तांच्या नाटकांचे विशय–पात्र जाताले. स्थानिक समाजांत रुजिल्लीं, घोळिल्ली भाशाच नाटकाच्या संवादांत उबी जाताली, दीसपट्टी जीणेच्या उतरांनी मेळचे हास्य, ललित्य ते आपल्या संवादानी भरताले. देखून तांची नाटकां प्रेक्षकांक आपलीच काणी, संवाद अशें दिसताले. होसाड बाबुटी नायक हांच्या नाटकांत उत्तर कन्नड जिल्ल्याची जीण आसा, भाशा आसा, जीणेचे विडंबन आसा, विनोदान जीणेक देख दिवपाची तांक आसा, हासोवन जीणेचे दु:ख, सुख, बरे – वायट सांगपाची चुतराय आसा. तांची नाटकां विनोदप्रधान खरी पुण समाजाची लोप–दोश, अधर्म, अन्याय, फटिंगपण सोदून ते ताजेर चाबूक मारतात. कांयवेळा तांच्या नाटकांत उंचेलो पांवडो दिसना, नाटक सादे–सोपे अशें दिसता; पुण तातूंत एक देख आसता एक मोख आसता. तांच्या बरोवपांत एक उद्दिश्ट आसता. ते प्रेक्षकांक भुलयनात पुण तांका तांच्या भलायकेचे वखद दितात. देखिक तांची कांय नाटकां पळोवं येता.

**अश्शी कशें जाले** : वेंकटेश नायकाक दोन भुरगीं, बायल वेंकटेश नायकाचेर अधिकार चलयता. भुरगीं आनी बायल मेळून वेंकटेशाक सतायतात. वेंकटेशाक जीण कठीण जाता. ह्या संकटातल्यान सुटूंक तागेलो मित्र ताका एक उपाय सांगता. वेंकटेश पिशांवरी ॲक्टिंग करूंक लागता. घरची मंडळी घाबरता. तोच मित्र डॉक्टर जावन सांगता, "ताका तुमी त्रास दिवनाकात. तो सांगता तशें करा, तागेले आयकल्यार तुमचें बरें जाता." उपरांत वेंकटेशाचे पिशेंपण कमी जाता, संसार सुखी जाता.

**हून उदका घोट** : पांडुरंग शणै आपल्या पुताक एक गरीब घराण्याची चली हातून सोदता, पुण तागेली बायल वरदक्षिणा मागता. कितेंय सांगल्यार आयकना, वरदक्षिणा जायच म्हण हट्ट धरता. तेन्ना पांडुरंग शणै त्या गरीब घराण्याक लिपोवन दुडू दिता आनी तेच दुडू बायलेक वरदक्षिणेच्या रूपान दिवयता. तेन्ना पांडुरंग शणैलो भुरगो एम्.बी.बी.एस्. शिकतालो. तो नापास जाता. बायलेच्या पायगुणानच नापास जालो म्हण पांडुरंग शणैली बायल बोवाळ करता. नापास जाल्लो एक वर्साचो एम्.बी.बी.एस्. शिक्षणाचो खर्च हाडूंक सुनेक कुळारा माय धाडून दिता. मायन वरदक्षिणा मागिल्ली उतराचो टेप पोलिसीक दिवन केस

..................................................................................

घालता म्हण सुनेच्या कुळारच्यान सांगतकच भिवन माय सुनेक परत आपोवन घेता.

अशें होसाड बाबुटी नायक हांची नाटकां समस्याप्रधान जातात. पुण विनोद शैलींत तीं विरगळून वतात. फक्त विनोद म्हणून कुशीन दवरल्यार लेखकाचो हेतू समजूचो ना.

''तापत्रय'' नावाची दोन नाटकां आसात. एक नाटक कौटुंबिक विशयप्रधान तर दुसरे राजकीय विडंबनाचेर बरयलां.

तांचो संवादाचे एक नमुनो पळेयात – ''हून उदका घोट'' नाटकांत – भुरगो नापास जाला म्हण बापूय ताका तापयता. ''हयरे पूर्णचंद्रा. तु आतावरकी फेल मरे. तू . अश्शी फेल जायत गेल्यार माक्का सेल करतलो. तुगेले बरोबर सिक्किले खंय गेले रे.''

तेन्ना पूर्णचंद्र सांगता – ''हें पळे बाप्पा, लोकाल्यावारी हांवु बरबर वाचलो. परीक्षेपूर्ति शिकला न्हयी, विशय कसलो म्हण्णु हांव मनन करता.''

बापय सांगता – ''तुगेले मनन म्हळ्यारी मेगेले मरण मरे. तुवें बरयिल्लो खर्चु खंचो नमुनो रे? चार चपाती हजामती, पुण्यात्मान स्कूलाक गेल्लिलो आनी आयिल्लो. राजकरण्यावारी खर्चु एक घालिलना. तुंवे अश्शी अंदादुंदीर खर्च केल्यारि हांवे सुंबाबोंदि विणच्याक वचका जायत मरे.''

पूर्णचंद्र सांगता, ''बाप्पा तू कित्याक भिता. म्हालगड्यान केल्ले पोटभरन घेवच्याक तोट (कुळागर) आसा.''

बापुय सांगता – ''हें पळें पुत्ता. मेगेलो आज्जो याने तुगेलो पणजो तोटा पडिल्ले सोगे विकून जवन कर्ताशिल्लो खंय. मेगलो बाप्पा याने तुगेलो आज्जो पूर्ण सोगे अर्द फोप्पळ विकून जीवन कर्ताशिल्लो खंय. हांव आत्ता पूर्ण फोप्पळ, पूर्ण सोगे विकता. माक्का थंयथंय जीवन करच्याक जायना. तुगेल्या कालात तू फोप्पळा माडूड्योच काण्णु विकता. कोणेन. पळे पुता मेगला आज्जो भांगरा नाम घालूनु घेताशिल्लो खंय. मेगेलो बाप्पा रुप्यानामा घाल्नु घेवचें हांवे पळेल्या. हांव आता गोपिचंदा नाम घाल्नु घेता ते तुवें पळेला मरे. मुकार तू खंचे नाम घाल्नु घेता पुता?''

पूर्णचंद्र सांगता – ''माक्का खंचेय नाम नाक्का.''

बापूय म्हण्टा – ''म्हळ्यार तुका नाम ना. तु दुसऱ्याक नाम घालता. नवें फॅशन!''

होसाड बाबुटी नायक आपल्या सोळाव्या वर्सांत मॅट्रिक पास जाले. उपरांत

..........................................................................................

कांयकाळ ताणी होन्नावर को-ऑपटिव्ह बँकेत सर्व्हिस केली. पूण तांका थंय जमले ना, त्याच वेळार सिंडिकेट बँकेन तांका आपयले. ते गेले नात. तांका बापायले आपोवणे आयले. ते परतून होसाडाक गेले. थंयच स्थायिक जाले. घराण्याचो हातमागाचो व्यवसाय ताणी सांबाळलो.

तांचे लग्न १९५० वर्सा जालें. तांका सात चलयो आनी दोन चले. अकरा जणांचो संसार ताणी हातमागार चलयलो. आयुष्यभर ते गरीबतच वावुरले. गरीब म्हण रडले नात. दुडुवाखातीर ताणी नाटकां बरयलीनात. तांका नाटकांचे मानधनय मेळूंक ना. ताणी तो हावेस म्हुण बाळगिलो. तातूंतच तांका समाधान मेळटाले.

आयज तांचे शिष्य शिरसी शारांत आनंदू शानभाग आसात. ताणी कोंकणीत रेडियो नाटकां बरयल्यात. नाटकुली बरयल्यात, ते एक कोंकणी मोगी, कोंकणी कार्यकर्ते म्हण वावुरतात. तशेंच होसाड बाबुटी नायक हांची कांय नाटकां प्रयोग करीत आसात.

होसाडी बाबुटी नायकाचे दुसरे शिष्य चंद्रकांत पांडुरंग प्रभू शिकार. ह्या दोगां शिष्यांनी बाबुटी नायक हांची कोंकणी नाटक परंपरा जीवंत दवल्ल्या.

उत्तर कन्नड जिल्ह्यांत होसाड बाबुटी नायक हाणी आपल्या नाटकांनी कोंकणी भाशेचो मोग वाडयलो. त्या जमान्यात ताणी तर्नाट्यांक कोंकणी दिक्षा दिवन रंगमाचयेर हाडले. ल्हान ल्हान भुरग्यांकय ताणी कोंकणी नाटकां शिकयलीं. शाळा कॉलेजीच्या वार्शिकोत्सवानी तांची नाटकां सादर करूंक लागले. कोंकणी नाटकांचो परमळ ताणी मुंबय, हैदराबाद, बंगळूर, पुणे, मंगळूर, हुबळी शारानी पावयलो. ताणी कोंकणी भाशेची उदरगतीची भाशणां केली नात. उदरगतीच्या वाटेर आपलो एक लामण दिवो लायलो.

आयज ते आमच्यात नात. २७ जुलै २००७ दिसा ते आमका सोडून गेले. होसाड श्रीनिवास नायक हें नांव तुमी आयकलां? नासुये. होसाड बाबुटी नायक नांव तुमी जाणात. तांचे ते नांव. तांच्या भुरगेपणात आवय ताका 'बाबुटी' म्हण उलो मारताली खंय. तेच नांव कोकणी साहित्यमळार खायं जाले. नाटक परंपरेविशीं उलयतना – बरयतना हें नांव विसरूंक जावचें ना.

**– एस्. एम्. कृष्णराव**

●●

# साहित्य विविधा

कोंकणी साहित्य आनी साहित्यिकांची वाचप्यांक तोंडवळख करून दिवची हो हेतू नदरेमुखार दवरून कुळागर प्रकाशनान 'साहित्य विविधा' हो उपक्रम सुरू केला. सादारणपणान वर्साक बारा पुस्तकां उजवाडावपाचें आमी थारायलां. जण एका साहित्यिकाच्या साहित्य कृतींचो अदमास वाचप्यांक मेळचो आनी ताजे साहित्यिक प्रवृत्तीची आनी प्रतिभेची तांकां कल्पना येवची हे खातीर हो उपक्रम आसतलो.

बत्तीस ते ऐंशीं पानांचे मर्यादेत एक पुस्तक उजवाडायतले आनी पुस्तकाचे मोल २० ते ३० रुपया मेरेन आसतलें. व्यापारी तत्वाचेर ही येवजण आमी चलोवचे नात. पोरन्या– नव्या लेखकांमदीं भेदूय करचे नात. ज्यांची पुस्तकां अजून उजवाडाक येवंक ना अशा गुणी लेखकाचें साहित्यय आमी उजवाडायतले.

दर वर्सा प्रसिध्द जातल्या १२ पुस्तकांचो एक सेट वाचकाक २०० रुपयाक मेळटलो. लेखक, वाचक, समीक्षक हांणी हे येवजणेचो लाव घेवचो. २००७ वर्साची धाय पुस्तका तयार जाल्यांत. २००८ वर्सांच्या पुस्तकांचे छापपय सुरू जालां.

**कुळागर प्रकाशन**

पो. बॉ. नं. ७८
मडगांव, गोंय ४०३ ६०१
(फोन – २७५३८५७)

# आडकात्रिंतुलें फोप्पळ

**बाबुटि नायक**

नागप्प शेणै ........................................ ६० वर्सां
नागप्प शेणैलि बायल ........................................ ५० वर्सां
मालति – नागप्प शेणैलि धूव ........................................ २४ वर्सां
मदु – नागप्प शेणैलो पूतु ........................................ २८ वर्सां
सुजाता – नागप्प शेणैलि सून ........................................ २४ वर्सां
मारुति – नागप्प शेणैलो जांवयीं ........................................ २८ वर्सां
राय भट्टु – नागप्प शेणैलो पुरयतु ........................................ ६० वर्सां

## प्रवेश १

## रस्तो

*मुक्कारि मालति, माक्षि मारुति मालतिक आप्पयत येता, मालति निर्लक्ष कोर्नु मुक्कारि वता.*

मारुति – मालति ये मालति हावें सांगिलें आयकव.

मालति – (वोच पोळोनु) माक्कातं टैम ना कटकट कोर्नाक्काची.

मारुति – आश्शिल्यांतुं फुर्सति कोर्नु दोनि उत्रं उल्लयि.

मालति – दोनि मिनिटां वैरि हावुं राब्ना हं!

..................................................................................................

मारुति -- ताज्या वैरि राब म्होणु हावुं तुक्क सांगना. हें पळे आत्तं जाले णव्व घंटे तुवें इंग्लीश पिक्चरा वोच्चूनु बस्ल्यारि. हावें जेव्हण कोर्नु आफिसा वोच्चें केन्ना सांग.

मालति – केन्ना म्होणु हावें सांका? तुम्मि रान्नुनु जेव्नवें मोणुकाय्ना.

मारुति – हावुं दार्लमनुषु झाव्नु माक्क रांदि म्हण्ता?

मालति --ओहो हो ऽऽऽ दार्ले म्हण बित्तारि रांचाना म्होणु कायना. कुक्करांतु तांदुलु आनि दाळि घाल्यारि शीत जाव्नु पडता. दाळि शिज्जुनु पडता. फण्णेक घाल्यारि सै. खुषि आस्ल्यारि कोर्नु जेवा ना तरि रात्रि जेवल्यारि सै.

मारुति – अंतू तुवें सिनिमा वोचूका नवे?

मालति – वोचूका, मेग्गेलो निर्धारू बदलनां (वोच पोळोनु) माक्का वेळु जाल्लो. हावुं वत्तां (फिर्ता)

मारुति – आत्तूं कायिं येना नवे?

मालति – हावुं येक भाषि.

मारुति – तुग्गेलि खुषि लायतां मेग्गे नावांक म्हशि. कोळचास्स तुक्क मुक्कार्रशि खयिं पोळोनु वच हावुं रांचा बस्ना कडेरि येव्नु जेव्तां.

मालति – येवनु जेव्त म्होण्चाक हावुं आजि जेवणा कर्ना. सिनिम सोड भित्तरि होटलां जेव्नु येत्तां. तुम्मि रात्रि जेव्का पडतलें.

मारुति – रात्रि जाल्यारि रात्रि तें पुणि आसनवे खात्रि.

मालति – तुम्मि सांगिलें हावें आयकुका. तुम्क जायशिले कोर्का, माक्क जायश्शिलें मात्र तुम्गेल्यागि हांडिव्या जायना.

मारुति – तुक्क, जायश्शिले हांडिव्याक कोणाल्यागीं साध्यना. तुक्क हेंडल कोर्चे सम होन्नावर कुमटा टेंपो हेंडल कोर्चे सम बाकीचांवारि माक्क सैड इनकम ना पळे.

मालति – सैड इनकम् ना म्होण्चाक मर्यादिस्ना? बाकिचे सर्व पगारा डब्बल गिगारू घेत्तायि.

मारुति – घेत्तले घेवोचि. माक्क ती आशि ना.

मालति -- तुम्क आशिना जाल्यारि माक्कास्सा. तुम्गेलो पगारू आम्गेले अवश्यकते
.............................................................................................................

खर्चा पाव्ना.

मारूति – हें पळे आम्मि वाडडोनु घेत्तिल्लिश्शिं खर्चु वाडता. अनावश्यक खर्चिनाशि उर्ल्यारि माक्क मेळचे पगारांतुं सेविंग कोर्चा जात्ता. तें सोण्णु मेळ्ळि तश्शीं खर्चिल्ल्यारि शेविंग जात्ता. ( हात्तान दाकैता)

मालति – लग्ना पयलें हावें घाल्लें लेक पुरा चोक जाल्लें.

मारूति – इतर लोकां पोळोनु लेक घाल्ले तुग्गेलि चुकि ब्लेक संपादन कोर्चिच्छा माक्कना सत्यान संपादन कोर्नु मेळिल्ल्यांतुं तृप्ति पाव्का म्होणु मोग्गेलि इच्छा.

मालति – तुम्मि हे नमुन्या सत्य हरिश्चंद्र म्होणु कळ्यारि हावुं तारामति जायनाश्शिलिं.

मारूति – तूं अस्सलें दिवाळ खोर म्होणु कळ्यारि हावुं तुग्गेले साव्ळे येनाश्शिलों जाल्यारि आत्तं जाव्नु गेल्याक पश्चात्ताप कोर्चातुं अर्थुना. सुधार्नु घेव्का. हावुं तुग्गेलो घोवु म्होणु जाल्लां. तूं मेग्गेलि बायल म्होणु जाल्यां. जाल्यारि तुक्क ना मुगो मेज्जेरि प्रीति.

मालति – तुम्गेलागिं रीति आस्ल्यारि मात्र प्रीति.

मारुति – तुग्गोलि रीति आनि नीति घेव्नु गेल्यारि हावें सोडका मुगो नीति.

मालति – आजि दुडवा खात्तिरि सोडता जाति तांतुं मुम्गेलि नीति खयिं?

मारूति – तुवें सांगिलेवारि हावें लंचु घेत गेल्यारि फाल्या सरळा कोण्यांतुलो बेंचु धोर्का जायत मुगो. माक्क ती ताकत्तना.

मालति – तुम्क ती ताकत्त ना जाल्यारि माक्क लग्न जाव्चि हिम्मत कित्या केल्लि?

मारुति – तूं हे नमुन्या घर्पाडि चेल्लि म्होणु माक्कळना.

मालति – तुम्मि हे नमुन्या सत्यवादि म्होणु कळ्यारि हावुं तुम्क लग्न ऽऽऽ जायना आश्शिलिं. स्कूल मिस्ट्रेस जाव्नु सुखान उर्ताश्शिलिं.

मारुति – स्कूल मिस्ट्रेस नयिं सिनिमा एक्ट्रेस जाल्यारि भारि बरे आश्शिलें.

मालति – इंजिनियरा बायल म्हणाफुडे म्हैन्यायेक पत्तल पुणि घेव्नाका?

मारुति – जायतगो तुक्क म्हैन्या येक पत्तला घेत्ता आनि आश्शिल्लें हित्तल विक्तां.

.............................................................................................

मालति – तुम्मि किर्ते दी म्होणु तांगेल्यागि माक्कावे? लोकालिं काम्म कोंदिल्यारि तेच्चि दित्ताचि. मेळतन कित्या सोडका? आजि मेळ्ळें म्होणु फाल्या मेळतवे?

मारुति – तूं हजर सांग, लंचु घेव्चें काम्मात्र मेग्गलेल्यागिं जायना. एखाद्यवेळा तूवें माक्क सोण्णु गेल्लें म्होणु अडणा तें काम मात्र कर्ना.

मालति – तुम्मि इल्ले पुक्कि म्होणु मागेत्ना.

मारुति – हे एक विषयांतु मात्र हावुं पुक्कि म्होणु निक्की सम्जव.

मालति – तुम्मि ते वाट्टे लायना जाल्यारि हावुं बायल मनुष म्हळ्ळें फाल्स.

मारुति – बायल मनुष जाव्चें नयिं तूं चुक्कुनु जाल्यां.

मालति – जायत जायत तुम्क कळतलें मुक्कारि (सर्कने वत्ता)

मारुति – ऐ मालति मालती!! गेल्लें माक्षी पोळोंचें पयलें गेल्लें. मालती तुवें आतां अशिशं केल्यारि मुक्कारि कित्तें आम्गेलि गति? तुक्क ना मुगो मान मर्यादे भीति राय भटान केल्लि ही माक्क वाति.

रायभट्टु – (मालतिन गेल्ले विरुध्द बाजूचान प्रवेशु) कस्सलरे मेग्गेलि वाति?

मारुति – येया भटो. माक्क सिंगल आशिशल्याक डब्बल कोर्नु संसारां घाल्लुं दाळे सारू कोर्चा लायलें मुवो.

रायभट्टु – जाल्लिले कस्सलें म्होणु सांगल्यारि तुग्गेले कष्ट कस्सले म्हळ्ळें कळतनायिं.

मारुति – नागप्प शेणैलि चेल्लि पवनशी म्हळ्ळें नयिं तुम्मि जाल्यारि कीड भांगरमुवो.

रायभट्टु – जाल्लिलें कस्सलें म्हळ्ळें सम ऽऽ सांगरे

मारुति – पळया, आत्तं तुम्मि येव्का जाल्यारि सिनेमा गेल्लें. हावें जेव्हण कोर्नु आफिसा वोच्का म्हळ्यारि कोर्नु जेव्नु वचा ना रात्रि जेवल्यारि सै म्हणालें. म्हैन्यायेक पत्तल जाव्का खयिं, घराकडे रांदपिण राब्बोनु घेव्का खंयि. आशिश जाल्यारि हावुं वांतवो?

रायभट्टु – इल्लें जाल्लें की हें मालति लाग्लि कीं हाक्क होडपणा वाळित?

मारुति – हें सर्व कोणाल्यागिं सांगचें भटो? मावांल्यागि सांका की मेवण्याल्यागि सांका? कीं बाशिंग बांदिले तुम्गेल्यागिं सांग्लें. का? म्हळें म्हाक्का कळ्

..............................................................................

ळां. मन्न रावना अश्शि तुम्गेल्यागीं सांगलें. आम्गेले घराण्या मर्यादे तक्क ही चेल्लि नयिं. येक सिनिम सोण्णा. दिवस भरि बिरिबिरि भोंव्चें. तश्शिं भोंवल्यारि चंदिस्तवो भटो?

रायभट्टु – हें सिनेमान आनि कादंबरि वाज्जुनु भाज्जुनु गेल्यांचि.

मारुति – हावें लंचु घेव्काखयिं. तें मेग्गेल्यागिं साध्य ना म्हळ्ळें. माक्क मेळचो पगारू कम्मि जाल्यारिनवे? बायलांलिं लक्षण एद्दीं नावो.

रायभट्टु – आड वाट्टेक बोडदीव्नाका. सत्यान धर्मान चल तुक्क केन्ना भयना.

मारुति – येकदिसु येयावो आम्गिथयिं. ताग्गेलिं उत्रं आयकवा. तेन्न कळत तुम्का.

रायभट्टु – भायल्यान पोळोचाक गोरें जाव्नु चंदास्सा भित्तर्लान हो नमुनो कीं? आस्सो तूं खयिंवत्ता?

मारुति – घर वत्तवो आफिसा वोच्कानयिं?

रायभट्टु – बरें मेळतां.

मारुति – हावुं वत्तवो वेळु जाल्लो (आयिले वाट्टेन वत्ता)

रायभट्टु – बरे भांगरशे चेल्याक ही चेल्लि गांटानु गळपासु घाल्यावरि जाल्लें. हें प्रकर्ण हुन्नारि हुनकर्ना जाल्यारि हीं ओट्टु उर्नांचि. चेल्यांक चेल्ले मेळ् ळोंरे म्हण्ताचि, हे खात्तिरी चेल्ले लग्न जाव्चाक भित्ताचि. हो चेल्यो तांक विक्ताचि. लग्न जापर्यंत गायिशि आश्शिलि चेल्लि लग्न जा भित्तरि घोवा हात्तां दायि दित्त म्होणु जाल्यां. फेशनांक पुणि येकि मिति आस्सकीना. पोलके म्हळ्ळे चोळकेशे जाव्नुगेल्ले. पत्तल आनि पोलको मेच, कांकण – रिब्बन, तुवालो तीळो, हेंडबेग सर्व एक्कायेक मेचकोर्नु घोवाक केच कोर्चा पळैता म्होणु जाल्लां. उरो विचारू कर्ता. (वत्ता)



## प्रवेश २

## घर

(नागप्पा शेणैलें घर, दोंतीनि खुर्च्यो, सानेक टेबल, येक बग्लेन रेडियो, वगैरे)

नागप्प – (बित्तरिसानु येत्ता) हे संसारांतुं सुख म्हळ्ळें बरी येक क्षण. सुख

येत्ता. म्हण भित्तरि दु:खयेव्नु ताक्क धुंगुळता. पुत्ता लग्न कोर्का म्होणु उमेदिन लग्न केल्लें तेंचि माक्क विघ्न जाल्लें. सून यो भित्तरि आम्गेले यज्मानिंक येक नमुन्या गर्वशें आयल्यां. सुन्ने हाडचे पयलें घरांतुलें वातावरण साधारण शांत आश्शिलें. आत्तेक नमुन्या क्रांति सुरू जाव्नु माक्क भ्रांतिशि लागल्या. गीता वाचल्यारि पुणि बेगेन शांति मेळतकी पोळोव्यां (गीता घेव्नु येक श्लोक म्हण्ता. भित्तरि आयदन धाडायिलो आवाजु आयकता गीता दोवोर्नु) सुरू आयदन धाडाचाक. कोणावैलो रागु आयदनारि काडचो. धाडानु धाडानु कोळसो म्हळ्ळो तांब्यो सो जाल्ला. तांबियो म्हळ्ळो गिंडिशि केल्यां. आत्तं दिसांतु आयदन घेव्चिवे? वायट जाल्लिं सम्म कोर्चाक मारग (येक ताट्टें बार्यि येत्ता. नागप्प शेणै उड्डुनु पडटा आनी गीता वाचत बस्ता)

रत्ना – (भयंकर स्पीडारि बार्यि येत्ता) सग्ळो दिसु ह्या नमुन्यारि गीत वाजत बसल्यारि माक्क गति कोण? (ताग्गेले हात्तांतुलि गीत काण्णु टेब्लारि धाडयता. नागप्पु तिक्का ऽ ऽ ऽ पोळोनु उट्टैता)

नागप्प – आहाहा बायले जातिक कलंकु तूं ते नमुनो आंगारा–यिलेवारि कोर्चाक. जाल्लें पुणि कस्सलें?

रत्ना – जाव्वें आनि बाकि म्होण्णा. हावें कस्सं कोर्का म्होणु सांगा.

नागप्प – हावें सांका जाव्वें जाल्लें धुवेलग्न. येव्चि आयलि सून. दिव्यो दिल्लो पुताक आंगडि व्यापरू. आत्ताम्मि मुक्कारि वोच्चें पोळोव्यां.

रत्ना – मुक्कारि खयिं वोचें?

नागप्प – आयिलकडे वोच्चें. आम्मि कित्ते हांग शाश्वतवे? मनुष्य जल्म हो अस्तिर.

रत्ना – ओहो आश्शिं? आम्मि म्होणु कित्तें सर्वांनि वोच्चेंचि येकदिसु.

नागप्प – येकदिसु वोच्चेंचि आनि दोंदिवस कोर्नु वोच्चा दीनातो. जाल्यारि आत्तं आम्गेलि पाळि आयल्या वोच्चि. ते खात्तिरि आम्मि तयारि कोर्चि.

रत्ना – वोच्चें येव्वें आम्गेले हात्तां ना. आम्मि हालि कस्सं कोर्का तें कोर्नू वोच्का.

नागप्प – करि करी ऽऽऽ म्हळ्ळें कस्सं कस्सं कर्त पोळोनु करि. माक्क मात्र

त्रांसु दिव्नाका.

रत्ना – तुम्क त्रासु दिव्चाना नयिं? ते माक्क घासु घेवचा दीना.

नागप्प – कोण? तुग्गेली सुनवे?



रत्ना – हूं सून, उत्रं मात्र हून.

नागप्प – तुक्क उरो बेगेन मर्याद मान.

रत्ना – तुम्क चुकल्यांव आंगावैलें भान?

नागप्प – भल्यां तुक्क भित्तरि अज्ञान. रत्ना ए रत्ना तुक्क हें नाव कित्या दवल्यां म्होणुगोत्ना. तुक्कानि सुन्नेंक महेंतुल्यान उज्जो वत्ना.

रत्ना – तुम्मि उल्लोनाक्काचि जास्ति जिरैत पळया ताग्गेलि मस्ति.

नागप्प – दोग्गजण मारा कुस्ति.

रत्ना – ताणे केल्लें तुम्क कळनां हावें उल्लयिलें मात्र दिस्ता.

नागप्प – उल्लयिलें दीस्ना आयकता. तूं सान की तें सान? दुसऱ्यालें चेर्डा हाण्णु कश्शिं चोलोनु होर्का म्होणु कळनां तुक्का? तुग्गेले धुवेक अश्शिं कर्ताश्शिलें तूं? बेगेन आलोचन करि. सुखान चारि दिस काडयां म्हळ्यारि दीनांचि.

रत्ना – सूखऽऽऽ हं! तुम्गेलो हातु धरि भित्तरि मेग्गेलें सूख चोक जाव्नु गेल्यां.

नागप्प – हावें तुग्गेलो हातु धर्ला.

रत्ना – हाध्दार्ला ?!! फाल्स उल्लोनाक्कायि. लग्नावेळारि मेग्गेलो हाध्दर्ला तुम्मि.

नागप्प – ना म्हळ्ळें हावें धर्ले बोट मात्र. बरी बोटधल्र्याक कोडणेंतुलें तोट विक्कूनु हांगेव्का पळ्ळें.

रत्ना – माक्षि जाल्याचि साक्षि आत्त कित्याती? आम्गेले मदुन बायले मात्यारि बोसोनु घेतल्यां.

नागप्प – इत्लें नवे? विशेष जाल्लां तें.

रत्ना – कित्तें विशेष जाल्लां?

नागप्प – ना, हावें केल्लें ताणे केल्यां.

रत्ना – तुम्मि माक्क तश्शिं केल्यारि हांवु धन्य जाल्लिं.

............................................................

नागप्प – आत्तं तुक्क वर्स जाल्लिं विसर्ल्यां तूं तुग्गेले उत्रारि नवे. आम्मा आनि बाप्पा सोण्णु हांगेव्नु बिडार केल्लें हावें? मेग्गेले आम्मांक सुख दिल्यां तुवें? शींत म्होणु खाव्चा दिल्यां? तूं कित्तें कम्मि कूळनायिं. हावुं दक्कुनु इतले वर्स सुधार्नु घेव्नु गेल्लों. माक्षि तुवें मेग्गेले आम्मा दिल्ले त्रासांचें प्रायश्चित्त हें भोग.

रत्ना – तुम्मी ऽऽऽ आश्शिं केल्यारि माक्कानि कोणास्सा? बर्या वायटा सर्व तुम्मींचि (रडटा).

नागप्प – रोण्णुदाक्कोनु माक्क फसोनाक्का. हावुं आतां गीत वाजत बस्तां. तुम्मि जायतें करा लडयिकरा, मारामारि करा, खूनि जाल्यारि जावो हावुं पळयना. आजेक चाळिस वर्स धोर्नु पळैतांवुं तुक्का. आजि पर्यंत तुवें सांग्लताश्शिं नांत्लों जाल्यारी तुग्गेले तोण्णांतुल्यान बर्यापण घेव्चा जालनां. एक्क ऽऽऽ एक. सुन्नेल्यागिं कुडुन वोच्चें सोण्णु तुवें म्हळ्ळें हुडवुया पळैतां? आत्तं काला चेल्यो त्यो आम्गेलि मर्याद आम्क जाव्का जाल्यारि आम्मि तटस्थ उर्चे बरें.

रत्ना – तुम्गेल्यागि उल्लोचे बदलाक वणतिल्यागिं उल्लोचें बरें. मेग्गेली चुकिनवें?

नागप्प – (दांत चाब्बुन) आहाहा. लग्न जाल्याक सार्थक जाल्लें. मूळधोर्नु पळेतां तोंड हगुर.

रत्ना – हगुर तोंडाचाक लग्न कित्या जाल्लें?

नागप्प –जायनाश्शिलों मेग्गेलो बाप्पान घाल्लो हो माक्क गळपासु. तुज्जाकि बरि सोर्यिक आयिलि. चेल्लि तम चंदि दिव्लिशी आश्शिलि.

रत्ना – ते दिव्लेक ऽऽऽ लग्न जात्त म्होणु बाप्पाल्यागिं सांकाश्शिलें.

नागप्प – आत्तं चेल्यांवरि बाप्पा एद्रा राब्बुनु उल्लोंत्तिल्लें वोल्टेज आम्गेले आंगांतु नाश्शिलें. हें पळे घरांतूं कस्सं कर्त म्हळ्ळें माक्कळता. तुग्गेलो हो हर्गणि वत्तु तूवें सोडका. पुत्ताक उपदेशु कोर्नु घोबायलां विंगड कर्शि. सुन्ने भी मार्शि. पोळोनु विचारू कोर्नु काम करि.

रत्ना – ओहोहो ऽऽऽ आत्तात्तं सुमार उल्लोचा सुरू केल्लातुम्मि. माक्क उपदेशु कोर्चितितलि ताकत्त आयली तुम्का नयिं?

नागप्प – मनुष्याक चाळीस वर्सारि येकवळे आनि साटि वर्सारि येकवेळे नवीन प्रायि येत्ता खयिं. आत्तं माक्क साटि लाग्लिं प्रायि येव्चासुरू. ताज्जान

..........................................................................................................

कोर्नु आंगांतु येक नमुन्या ताकत्त येव्हा सुरू जाल्या हादनंतर मेग्गेल्यागिं बेगेन हुशारेन उल्लयिं. पयलें तुवें उल्लयिलें आयकुनु ओग्गि उर्लो म्होणु आत्तं ओग्ग बस्ना कळवे?

रत्ना – ओग्ग बस्ना म्होणु कित्ते कर्शा तुम्मि? सांगुनु सोडा.

नागप्प – तें आत्तं कशिशं सांगचा जात्ता. तेत्ते सदंर्भाक सम्म जाव्नु किज्जात्त म्हळ्ळें माक्का कळ्ळां. तुक्क कशिशं सांगुं हावुं. आत्तं वच तूं भित्तरि. तुग्गेले इतिहासाचो दुस्रेभागु सुरू जाल्ला. मेग्गेले हात्तान हावें तो पूर्ण कोर्का जायत.

रत्ना – जाज्जायत हावें तुम्क पोळोचें आजी नयिं. हावूं पोळोनु सोडतां. तुम्मि सुन्नेले पार्टिचे म्होणु माग्गोत्नावे.

नागप्प – माक्क खंची पार्टिनाक्का, हावुं तटस्त पार्टिचों. तुम्मि झक्क मारा. पळे तुक्क रागु जास्ति. तुग्गेले ताकत्ते पुशि जास्ति मात्तें ताप्पोनु घेत्तू फुल वोल्टेजार करंट पारसातुक्क आंगांतु. ताज्जान मात्तें बॉयल जाव्नु कोयल लास्सुनु तुवें लट जाल्यारि माक्क मुक्कारि पोळोचें कोणे? हावुं आंगडि वलेन वत्ता मधुक पेज्जे जेवणा धाडतां (कोटु घाल्नुं घेत्ता)

रत्ना – अशिशं मदें उत्कां भित्तरि हातु सोडता म्होणु माक्क कळ्ळां. वच्चा हावुं एकळीं येक जाल्लिं नवे. सेडु तिर्सुनु घेत्तिल शिवा राबना.

नागप्प – सेडु सेडु कोर्नु फाल्या लोडु घेव्नु निद्दतलें आत्तं काला चेल्योत्यो तुवें साबार वर्टु करत गेल्यारि कूर्टु मोण्णु घालतलें.

रत्ना – कूर्टु मोणु घाल्यारि कोर्टावत्तांवुं हर्शे सोडताक्का.

नागप्प – कोर्टावत्तकीं आस्पत्रें पडतकीं हें पळे आम्गेलें साबार सर्ले धोडें उर्ले. हे वेळारि तुक्क हें खंचे पिश्शेंधर्ले फाल्या सुन्नेन मार्ले म्हणशी.

रत्ना – तुम्गेल्यागिं हांवनि उल्लयतवे?

नागप्प – सोल्लैता, माक्क भुल्लैता, सुन्ने हाल्लैता, आनि लडायो हाडैता. घरां कलि आप्पैता. तुज्जे हण्याबरप तितलें, वच कामां दृष्टि दी (बोड्डो घेत्ता)

रत्ना – हांवु कामा दृष्टि दित्तां तुम्मि सुन्ने आनि पुत्ताक पुष्टि दिया.

........................................................................................................

नागप्प – (दांत चाबत) तांक पुष्टिदित्ता तुक्क दृष्टि काडता. आहाहा खरें रत्न कायिं पुणि बर्या बद्दल करि प्रयत्न. रत्ना ए रत्ना गावांरि लोकु कित्तें म्हणता म्हळ्ळें तुक्कजुनु गोत्ना. माक्क फुर्सति ना. (वत्ता भार्यि)

रत्ना – (ताणे गेल्लि बल्यान पळेत) हे म्हांतार्या पर्यंत मात्तें फिरैलेमु हाणी. मेज्जेद्रा राब्बुनु होडानेक उत्तर उल्लैनाश्शिले आत्तं बेगेन उल्लोया सुरू केल्ला. हान्नि आत्तं जरि अडचिता हो मोडयतायि नातरि घरांसानु माक्क होडियतायि.

रायभट्टु – (प्रवेशु) माय्ये आस्तूऽऽऽ?

रत्ना – आस्तू म्होण्च्याक खयिं वच म्हणताचि. बसा.

रायभट्टु – खय्यी वोच्चें नाक्कगे. घरां सूनबी हाळया.

रत्ना – (दांतचाबत) सून! भटो सुन्नेलि होग्ळसाणि कोर्चाक दोनि तोंडं नुप्रो. बरी घालिही तुम्मि गांटि कास्सोळि वेंटि लाग्ल्यारि कुचकुत्ता.

रायभट्टु – कुचकुत्ता म्होणु भार्यि उडूडोया जात्तवे? बदीक आम्गेलें पळे.

रत्ना – आहाहा बदीक कस्सलें भटो. अजुनु कामासुरू जाल्नां ताग्गेलें ते वोळप जा पर्यंत मेग्गेलें रांदप जात्ता. न्हाण म्हळ्ळेकडे भाण खालि. हाग्गेले वोळप आनि न्हाण म्हळ्यारि पंचवार्षिक योजनाशि. वटायेरि माक्क फाशि.

रायभट्टु – फाशि म्होणु एक्क पटाक आशि सोण्णाक्का. काय्यीं काम कर्ना?

रत्ना – कर्नाशि कित्तें, हाग्गेले घोवाक...

रायभट्टु – तुग्गेले पुताक.

रत्ना – वाटी पेज रांदयि कोर्चि हावें, चंदायि कोर्चि हाणे, घोवान यो भित्तरि पेजवाडचाक दुडु, दुडु धांवता पोळोका, कित्तें हांवुं वाण्णा? इत्ले दिस हेंचि आय्यिलें?

रायभट्टु – आत्तं आयल्यांनवे वाडो. ना येक्काम करि घोवान आयलें कीं कशिशं तें वाडच्या वत्तां तेन्ना तूं येकि पोलिशि करि.

रत्ना – कस्सलि पोलिशि ती?

.................................................................................................................

रायभट्टु – कायना, ताग्गेले घोवान यो भित्तरि, पेज रांदयि कांदव्वल्र्या पळगो बेगेन वाडि, म्हण सहज वाडतें, काम घेव्चा शीक.

रत्ना – वाडचें हाणे जेव्विलि वाटलि काडचि हावें तान्निंक कोर्चे हांवे, दिव्चें पिव्चें हाणे. धुव्चें हावें मड्यान. आय्यिले चारि दिस भित्तरि कामांचापुशि पाष्ट कोंदतल्र्यां हाणे. भित्तरि वत्तां खंचे राज्यांतु आस्स पळैतां (भित्तरि वत्ता)

रायभट्टु – वटायेरि ही सुन्ने सुखदीना. मुख्य नागप्प शेणैन भट्टिी वायट केल्या. कायं हिग्गेलं हट खरें कोर्का म्हळ्यारि जात्तवे?

सुजाता – (भित्तरिसानु येत्ता) भटो केन्नाय्यिले?

रायभट्टु – आत्त मात्र आयिल्लों. तुग्गेलि मायिं उल्लयत राब्बिलि येत्त म्होणु भित्तर गेल्लि.

सुजाता – माक्केकि मायिं मळया भटो, आहाहा. मूड वार्या सुक्कोनु मिट्टा. उद्दा मार्नु रान्निवैरि तुगुका.

रायभट्टु – नाक्कगो पाप तश्शि कोर्नाका.

सुजाता – हिणे पाळोचागेल्लिे तेन्ना हिग्गेलो नमुनो. पोळोनु ही कम्मि कूळ नयिं म्हळ्ळें बाप्पा सांगिलें हावें जाल्यारि ताणे आयकुकानवे.

रायभट्टु – ऊर्गो कश्शीं सुधार्नु व्हर ती कित्तें शाश्वतवे?

सुजाता – आम्मि कित्तें शाश्वत्वे भटो? हवें कितलें काम कोरो केल्लें म्होणु तोण्णांतुल्यान येना. अडना मनापुणि समजुवेत नवे. देवा मात्यावैलें फुलपुणि चुकत हिग्गेले सोत्वे चुकनांचि.

रायभट्टु – तूं सम चल्त म्हळ्ळि खात्रि तुक्क उल्र्यारि सै. तिगेलें सर्टिफिकेट नाक्का.

सुजाता – तिग्गेलो पुतू मेग्गेलो यज्मानु आहाहा. ते पुत्ता आनि हे आवैक गांटि. बरी बैलु शिंग मात्रना. आवैन हौदु बसवण्णा म्हळ्यारि हौदु म्होणु बोड हाल्लैतायि. तुम्गेलि आम्मा आशिश म्हणतमू म्हळ्यारि वास्सरितुलि खबर आम्गेल्यागिं सांग्चाना. तुम्मि सुधार्नु घेव्का. दार्ल्याल्यागिं अस्सलें सर्व सांग्नवे कळवे म्हणतायि. हावें बेगेन दोळे तांब्डे केल्यारि आवैक कायिं पुणि सांगताले, म्होणु लेक्कुनु दोळे तांब्डे केल्ले तोंड

वांकडे केल्लें खळसं काण्णु रोण्णु दाक्कैलें कस्सलें केल्यारि म्हशि फाट्टिरि पाव्सु पळ्ळी गति. हिग्गेलो पुतुनवे?

रायभट्टु – पूतु व्हयिगो तो कस्सं कर्तलो. हेत्तां सर्ल्यारि बायिं, तेत्तां सल्यारि न्हयिं. व्हयि की पळे. ताक्क ओट्टु उभयपेचुनवे?

सुजाता – तें व्हयि जाल्यारि हावें कोणाल्या सांग्चे? एक दिसु मावांल्यागि सांगुनु रळ्ळि. व्यर्थचि तेवे बायले भिव्नु कडकडताचि.

रायभट्टु – वायट केल्लें पुरा तुग्गेले मावानगो. मूळांतुं तिक्क बीगु धोर्काशिशलें. आत्तं तिक्क बीगु कोर्चगेल्यारि तुग्गेले मावांक सड्डळ जात्ता (मात्तेंदाक्कोनु)

सुजाता – हावें चंदकोर्नु वोळोनु घेतल्यारि जायना तिक्का. चंदेक पत्तल न्हसल्यारि जाय्ना. रागेत्ता पोळोका तिक्का. रागान नांका नत्तु गलगलि हालता. घरांतुं हिग्गेलें राज्य जाल्यां. अशिशं जाव्नु आंब्या ताळोशी जाल्या. (बगलेन पोळोनु) आय्लिशि दिस्ता नेवान सुरू करत. येत्ता भटो बसा.

रायभट्टु – बरे मूर्तारि आय्लो हावु. तिज्जितल्या ती बशि म्होणु गेल्लि हाज्जितल्या हें बशि म्होणु गेल्लें.

रत्ना – (प्रवेश) (सुन्नेन गेल्लि बलचा पोळोनु दांत वंट चाब्बुनु हात्ता बोट्ट मात्तेलाय्नु मोण्णु घेव्नु). आहाहा कलावंत. मेग्गेले हात्तान हावें दोळ्यां मात्ति घाल्नु घेतिल्लेवारि हीं येकि सून हाणो घेत्लि. भटो हाणे घरां कोर्चो नमुनो पळयल्यारि माक्का हाणे लग्न कोर्नु हाळ्यांशें. हें मायिं हावुं सून हो नमुनो कर्ता. हे नमुन्या बधिक म्होणु कळ्यारि हावुं लग्न ऽऽऽ कर्नाशिशलिं भटो. वागिणे तोण्णांतुं गाय्क दिल्लेवारि केल्लें हावें. घोवा नेणाशिशलें माक्क जाणवे? बाय्ले बेगेन सांगरे म्होणु मेग्गेले पुत्ताल्यागिं सांगले. भटो ताणे कस्सलि जवाब दीवेतवो. सांगा पोळोव्यां.

रायभट्टु – कस्सलि जवाब दिल्लि?

रत्ना – नेणतें गे आम्मा, दोनि वर्स वोच्चो सुधार्ता. ताज्जे ताक्क बुध्दि येव्का होर्तु सांगुनु आयिलि बुध्दि जास्ति दीस टिक्ना हो तीनि कासांचो माक्क बुध्दि सांगता. आम्गेले यज्मानांकडे सांगल्यारि 'गंडिगे तेत्तहोर्तु बुध्दि बरूदिल्ला हेण्णिगे हेत्त होर्तु बुध्दि बरूददिला' म्होणु माक्क

..........................................................................................................

आडगति सांगुनु सद्गति धाडतायि म्हांतारे (कुर्टारि हात घेव्नु राब्ता.)

सुजाता – (प्रवेश) कित्तें कुर्टारि हात घेव्नु कोर्टा राब्बिलेवा राबल्यारि घरांतुलें काम कोणकर्ता?

रत्ना – मायिं जाव्वें पुत्ता तूं चुक्कुनु सून जाव्नुं पळयां. माक्कं अशिशं उल्लोचाक तुग्गेलि किम्मत कित्तिगो?

सुजाता – माक्क किम्मत्ते हाळनां मेग्गेले बाप्पान तुम्गेले पुत्ताक पन्नास हजारांक किम्मत्ते घेतल्यां. तुम्गेले घोवा सुध्दां तुम्गेले बाप्पान दोनि हजारांक घेत्तिलें खयिं. किम्मत नाशिशलिं आम्मिंचि.

रत्ना – मायिं म्होणु एद्दि मर्याद दित्त की पळयावो भटो.

सुजाता – उट्टायिल्या बशिशल्याक चुक्यो धोर्नु पुत्ताकडे फिर्याद सांग्चे माय्क्ं कोण मर्याद दित्ता?

रत्ना – म्हालगडि मनुष म्होणु एकि रीति–नीति नावे?

सुजाता – म्हाल्गड्यानि प्रीति दाक्कैल्यारि मात्र रीति. सून म्हळ्यारि कस्सं म्होणु केल्यां तुम्मि तित्लें. हगूर कोर्चाक? सुन्नेन येव्वें पय्यलेंचि लेक घाल्ता कोणेन ह्यो माय्यो खंचे तरेन त्रासु दिव्यां म्होणु पळयावो भटो उल्लय्नांचि कित्ते?

रत्ना – कस्सं उल्लोचेंगो तुम्गेलिं उत्रं आय्कुनु माक्क तोंड बंद जाव्नु गेल्या.

सुजाता – माक्क पोळोया गेल्लि तेन्ना तुम्मि सामान्य नयिं म्होणु लेक घाल्यां हावें.

रत्ना – पुरो पुरो बंदकारि साबार बुदवंत जाव्नाका.

सुजाता – हावें बुदवंत जाल्यारि तुम्क त्रासु नयिं?

रत्ना – हें पळे इत्ले सान प्रायेरि इत्लो उर्कतु बरो नयिं

सुजाता – आनि तुम्क हे म्हांतारकालारि हो उर्कतु बरो कीं?

रत्ना – माक्क उर्कतु म्हणता? तीनि शन्वार जाल्नां तुक्का?

सुजाता – तुम्क तीनि शेन्वार जाल्यांक हें उपध्याप कित्याक?

रायभट्टु – कोणु येकळिं बंद करागो.

सुजाता – तुम्मि उल्लोनाक्का भटो तिग्गेलें उद्दा कित्लें म्हळ्ळें. आजि पोळोनु

सोडतां.

रत्ना – ओहोवो मेग्गेलें उद्दा कित्लें म्हळ्ळें मेग्गेले घोवाल्यागिं पोळोया जाल्नां. तूं पैरि आय्यिलें कस्सं पळैशित. धन्य जाल्लिं पुत्ता हावुं मेग्गेले पुत्ताकडचान हात्ता धोर्नु हाडयिल्याक धन्य जाल्लिं.

सुजाता – फुंक्साटे हात्ता धोर्नु हाळनां. मेग्गेले बाप्पान पन्नास हजार क्याश दिल्यां हात्ता धोर्नु हाळयां म्होणु होड्डु उप्कारू केल्यावारि कोर्नु माक्क सांग्नाकायि.

रत्ना – तें कस्सलें उरो, तुग्गेलो बाप्पनयिं जाल्यारि आनि कोणुं दित्ताश्शिलो. तुक्क हात्ता धोर्नु हाळ्ळें व्हयिं की नयिं?

सुजाता – आनि तुम्क पाय्याधोर्नु हाळ्ळें? सर्वा हाडचें हात्ता धोर्नूंचि.

रत्ना – तू म्हळ्यारि तुज्जानु म्हणत पळयावो भटो. आम्गेलो मधु येवो ताक्क सांगुनु तक्क बुध्दि शिकैतां. ओगिंउल्लोनु तोंड कित्या वाय्ट कोर्नु घेव्का.

सुजाता – केन्न बरें आस्तलें तुम्गेलें तोंड? हावें कस्सलें केल्यारि जाय्ना! तुम्का.

रत्ना – (हात्तान सुन्ने दाक्कोनु) हो नमुनो कस्सल्गो हो? तें वोळोप. तें न्हेस्सण. तो आंबाडो आम्चस्सल्यांक सांगिलें वे हें?

सुजाता – माक्क लग्न जाल्लिं तुम्मि की तुम्गेलो पुतु?

रत्ना – बरो प्रश्नोमुगो तश्शिं म्हळ्यारि?

सुजाता – तुम्गेले पुत्ता जायितश्शिं कोर्का? तुम्क जायि तश्शिं कोर्का? दोन्नि भित्तरि येक जाव्नु वोच्चो. हावें इत्लें फेषन केल्लिकित्ति तुम्गेले पुत्ता नुप्रो. सिनेमांतुलेवारि करी म्हणताचि. 'जाय्तें हांडित्तलों हांवास्तना तूं कित्या भित्ता.' म्हण्तायि. अस्सलो सर्व वेसु तुम्गेले आम्मा जाय्ना म्हळ्यारि 'तूं लग्न जाल्लें आम्मा की माक्कां' म्हण्तायि. हांतुं हावें कस्सं कोर्का? भटा हावें सिनेमा नटिशि जाय्नाजाल्यारि मेग्गेले बलेन फाटि कोर्नु आड वाट धर्ल्यारि हावें कित्कोर्का? पय्ले तुम्गेले पुत्ता बंदोबस्त कोर्नु सम्म करा. कड्डेरि माक्क सांगा.

रत्ना – (रागान शेरग खोव्नु) सम्म कर्तगो सर्व सम्मं कर्ता.

सुजाता – सम्म कोर्चे काय्ना शेरग खोय्यिलें आस्सा तशीं भित्तरि वचा

मास्सोलु कांडवर्ला वांटा.

रत्ना – माक्क काम सांग्चा पाव्लें तूं? हे घरांतु तुक्क उर्चि आलोचना आसल्यारि पुरा काम्म कोर्नु चाल चलावणी सुधार्नु घेव्नु ऊर्का. ना म्हणता तुग्गेले कुळार तुवें वोच्चा अडणा हांग्चि परिस्थिति अशिशं. पळे आलोचन करि.

सुजाता – आलोचन कोर्चि काय्ना. मुक्कावैलि परिस्थिति हावुं सांग्तां आय्कवा. आजि पर्यंत घोवाचेरि पुत्ताचेरि अधिकारदर्प दाक्कोनु तांक भिस्डाव्नु खाव्नु आश्शिलिं तुम्मि सामान्य नयिं. इत्ले दिस मर्यादे भीव्नु मावां आनि घोवा भीव्नु ओग्ग उर्लि. आत्म रक्षणे खातिरि तें भय्य सोडका जाल्यां. दिवस गेल्लि तशिशं तुम्गेलें दर्प वाडता. हें घर पडता. तें आयचान सोडा 'वंदत्ते काला वंदु सोसे काला' म्हळ्ळें तुम्मि आय्कुचापुरो. म्हांतार पण आयिल्नां. काम कोर्चि ताकत्त आस्सा काम करा. ना हावुं कर्ता तुम्गेले वांट्याचें तुम्मि खाया मुक्कारि तुम्गेले हात्पाय्यांक त्राणु कम्मि जाव्नु प्राणु हगुरू जाय्ना पुडे हांवास्सनवें कशिशंवो भटो?

रायभटु – कशिशं म्हळ्ळ्यारि हांवु कित्सांगु? 'अशिशं सर्ल्यारि बायिं तशिशं सर्ल्यारि न्हयिं' कालाय तस्मै नमः

रत्ना – कालु उप्राटेंगो पुत्ता. हे घर्चि यज्मानि हावुं पैरि आय्यिलें तूं. माक्क उल्लैत म्हणा पुडे हावुं कस्सं सांगुं?

सुजाता – यज्मानि म्होणु माक्क. कामालाव्नु बशिशलकडे खाव्चि आलोचन कोर्नवें. सुन्नानि काम कोर्का जालयारि माय्यांनि स्वतः कोंदाक्कोका. सोत्तां जाल्लें धुवेवारि सुन्नेंक प्रितीन पोळोका म्हळ्ळ्यारि मात्र यज्मानि म्हळ्ळें शोभ्ता.

रत्ना – माक्कस्सलें गोत्नागो. आत्तं तुग्गेल्यागिं सर्व शीक्का पळ्यां आत्त. होयेकु आंगडिल्यासानु येवो. ताज्जे कडचान भार्यि घालैना जाल्यारि मेग्गेलें नावं घेव्नाका.

सुजाता – भार्यि घालचाक कामा चेडुं नयिं. तुम्क कित्लो हक्क आस्सकी तित्लों माक्कास्सा. जास्ति उलैल्यारि तुम्मि भार्यि पोडका पडटलें. चंदकोर्नु उर्चि आलोचन तुम्क आसल्यारि मायिं म्हळ्ळें घमिंडि सोण्णु चंदायेन उरा. ना म्हणता फाल्याच्यान हे घरांतु दोनि बिडारं. सर्व काम्म

तुम्गेल्यागिं करि म्हळ्यां हावें? बश्शिलेक्डे कोर्चि काम्म करा. मास्सोलु वांटचो म्हशि धार काडचि. ताक घांटचे बश्शिलेकडे आंगवालिं उंबोळचिं. अस्सलि हगूर काम्म तुम्मि करा. बकि सवं हांवु कर्ता. हाज्जे भार्यि तुम्गेलि खुषि. ते सोण्णु पुत्ताक सांगुनु भार्यि घाल्त म्हळ्ळें विस्सरा.

रत्ना – मार्यि म्हळ्ळें एद्दें भय्य नामुगो तुक्का. आम्मि सर्व भीव्नु कडकडतालिंचि.

सुजाता – तुम्क सानास्तना लग्न कर्तालिंचि. बुध्दि बर्नाश्शिलि तश्शिं जाव्नु मावा आयल्यारि मुल्यां राब्वें घोवान आयल्यारि माळ्यारि चोडचें. मायचे एद्राक गटाचेवारि उर्चे हें पुरा पय्यलें जाल्लें अम्गेल्यागिं तें सर्वना. सम ऽऽऽ रीतिन आयल्यारि मात्र मानु ना जाल्यारि अन्मानु कळवें? वेळु माल्यारि आय्लो पाल्कि उटकाराया. हावुं भित्तरि वत्तां भेग्गि येया (भित्तरि वत्ता)

रत्ना – मेज्जिं कर्म हीं (निडलारि धाडानु घेत्त) पळय्लें मुवो ताणे उल्लयिले.

रायभटु – उल्लयिलें पळयिलनांगे आय्कलें.

रत्ना – घोवाले मात्याक तेल्लाव्नु साफ कोर्नु सोळ्यां. संपूर्ण हाग्गेले बलेन जाल्लावोतो. तश्शिं जाव्नु माक्क हे नमुन्यारि उल्लोचा पाव्लें हें. लाश्शिले तोंडाचाक सिनेमा नटिंशि फेशन जाव्काकीं? हो इतल्यारि पावला म्होणु माग्गोत्ना. आम्गेलो म्हालु बरोना म्हणाफुडे दुसऱ्याले चेर्डाक दुर्वुनु उपेक्कित्तें? येकवेळ घराकडे येव्वो तोंडा उद्दा दोवों दित्तां.

रायभटु – माय्यें तूं कस्सलें उल्लोनाक्का परिस्थिति माक्क कळ्ळि. कोणाल्यागीं उल्लो नाक्का. कस्सं कोर्का तें हावुं सम ऽऽऽ कर्ता जाय्तनवे.

रत्ना – (रडता) जाय्त भटो. हांवानि उल्लय्ना.

रायभटु – पळे नागप्प शेणैक रागेना. आयिल्यारि तो मन्नांतुं ऊर्ना. ते खात्तिर थंड ऊर. (उटैता)

रत्ना – जाय्तवो बसा.

रायभटु – बस्ना माक्क वेळु जाल्लो. आन्नेकदिसु येत्तां.

रत्ना – जाल्लें (भित्तरि वत्ता)

●●

## प्रवेश ३

## रस्तो

रायभटु – (तोप्पि, सत्रि चील) आर्रे मारूतिन येकदिसु घराकडे यो म्हळ्ळें. वोच्चा जाल्लें ना जाय्मोणु आयिल्नां म्हणतलो.

मदु – (प्रवेश) आर्रे भटमाम नमस्कारू.

रायभटु – मदु ऽऽऽ केनाय्यिर्ले?

मदु – सकाणि आय्यिलोवो.

रायभटु – कित्तें हर्शे मुरे?

मदु – थोडि वसुलि आश्शिल्वो.

रायभटु – कडेरि मारूतिथयिं गेल्लोवे?

मदु – आय्यिलें काम पय्लें कोर्नु घेत्लें. नंतर मालति थंयि गेल्लों उल्लोनेव्यां म्होणु जाल्यारि घराबीग. तश्शिंचि आपिसा गेल्लों भावजि मेळनुं आय्लों.

रायभटु – भावजि बरास्समुरे?

मदु – बर्नाशि कित्वो. भर्पूर पगारेत्ता.

रायभटु – मर्यादवंतुरे तो. कस्सलें जाल्यारि तोंड सोण्णा. लग्न जाय्ना जाल्यारि आरां उर्ताश्शिल्लो. ताक्क हें मालति न्हयिंरे.

मदु – तुम्गेले उत्रा अर्थू कळनां माक्कां.

रायभटु – आत्तं फुर्सति ना कडेरि सोडोनु सांगता. आत्तें घराक ना नवे, इंग्लीष पिक्चरागेल्यां. आजि तूं थयिं वोत्नाका.

मदु – हावुं वत्नावो. भावजिन सुद्दां यो म्हळनां. वत्तां म्हळ्ळें. हं म्हणो. माक्क आश्चर्य जाल्लें. इत्ले दिसांवरि नातो. माक्क अन्मानु आय्यिलो. आफिसा कामांतु बेजार्नु तश्शिं कोणेन म्होणु लेकलों भारि विचित्रावा.

रायभटु – विचित्र नयिं सचित्र आस्सा. आजि ताणे होटलां जेव्वें. इंग्लीष पिक्चर सोळ्ळे नंतर मालति होटलां जेव्नु येत्ता. घराकडे जेव्णा कर्ना. तुक्क ताणे घराकडे जेव्णायो म्हणाश्शिलें कारण हें.

..........

मदु – मालति इत्लें जाल्यांकी?

रायभटु – ताग्गेलो धांदलो सांगनु प्रयोजन्ना. मन्न राब्नाश्शि. ते दिसु मेग्गेल्यागिं सर्व सांगलें ताणे. सांगच्या गेल्यारि मस्तास्सा.

मदु – मेग्गेलो तितलो जाल्लावो. नाकवो घर म्होणु सांगुनु वोच्च्या मन्न येना पळया. आंगडिल्यागिं आरां. मेग्गेले आम्मा आनि बाय्लेक येक नावान तांदुलु घाल्यारि शीदना.

रायभटु – उज्जो सम्म केल्यारि सर्व शित्ता. तुग्गेले बाय्लेक तुंवे सांका उल्लोनाक्का म्होणु.

मदु – आम्गेले आम्मालो स्वभावु गोत्नावे तुम्का. मोन्यांक भास हाडैता. हांत भित्तरि मेग्गेलि फजिति पळया. आश्शिं उल्लोचा जाय्ना तश्शिं उल्लोचा जाय्ना. हें सुधार्चे कोणे?

रायभटु – भारि कष्टरे म्हाराया. तेदिसु दोग्गाले तोण्णांतुं मेळ्ळो. नाक्का, भार्यि पळ्यारि फुर्जाल्लें अश्शिं कित्ले दिस वोग्ग राब्तूं?

मदु – तेचिं म्होणचे कश्शिं कोर्नु सुधार्चे म्होणु कळ्ळांस्तन गेल्यां माक्कां.

रायभटु – तुग्गेले आम्मांक तुज्जेरि प्रीति कश्शिं?

मदु – बरी आस्सां. एकदिसु आंगडि कडचान येव्चाक वेळु जाल्यारि एक्क ऽऽऽ बाप्पा. दिव्नु धाडता. नावे स्वत: ती येत्ता. दुसरे गावां गेल्यारि तिळसान भित्तरि येव्नु पाव्का.

रायभटु – बस् तितलि प्रीति आस्सनवे? हावुं सुधार्नु दित्तां. हावें सांगिल्लेवरि तुवें केल्यारि सै.

मदु – जाय्त भटो. कश्शीं तरि कोर्नु आम्गेले मालति येक बुध्दि सांगुनु भावजियेक बरें करा.

रायभटु – तें मेज्जेरि पळळें. मालि येकवेळ माक्क मेळो चारि उत्रं सांगुनु पळेतां. आय्कलें बरें जाल्लें. ना तरि दुझ्नें येक प्लेन घाल्नुं ताक्क वाट्टे लाय्ना जाल्यारि हे राय भटालें नावं घेव्नाका.

मदु – जांल्तरि हावुं वोच्चुं?

रायभटु – हावें घाल्ले प्लेनांक तुग्गेलानि तुग्गेले बाप्पालो पुर्ण सहकारू जाव्का.

मदु – जाय्तवो जाय्त. जाय्ती मदत कोर्यां. तुम्मि आम्मिथयिं केन्नेत्तायि.

................................................................................................

रायभटु – हांवें येव्का जाल्यारि सांगुनु येव्का कित्ते? कित्तें म्हळळेतरि हावुं भटु. कोणाथ्यींचि केन्न जायि तेन्न वोच्चा येव्चाक लायसन्स आस्सा.

मदु – तें व्हयिवो. जाल्यारि दिवस काण्णाकाचि.

रायभटु – नारे शुभस्य शिघ्रं.

मदु – बरें हांवुं वत्तां (वत्ता).

रायभटु – आजिकालि परिस्थितिंतुं सर्व साधारण सर्वांथयिं एक ना एक तरे कर्खर आस्साचियि. सूख ना, अश्शीं जाल्यारि मुक्कारि जगा परिस्थिति कित्तें? घरांतु कर्खर म्होणचाक आम्गेले देशांतुंपुणि खयिं सुखास्सा? राज प्रमुखाले कर्खर आनि ता!न्नि कोर्चे सर्कस्स पळयल्यारि पेपरांवादल्यारि जीवूनाक्का. सत्तर्यांचा सिंहासना वैल्यान देंवैलो ऐंशांचो वोच्चुनु बस्लो. चारिदीस हास्लो अश्शीं चल्यां. यथाराजा तथा प्रजा वटायेरि कोणाक ऽऽऽ सुखना. हाक्क मूळकारण स्वार्थु. स्वार्थान हे फूरा अनर्थ घोडचे.

मालति – (प्रवेश) (राय भट्टाक पळैलतरि पळैनाश्शिल्यावारि कोर्नु सुमसुमि वत्ता.)

रायभटु – (ताणे गेल्लितश्शिं नियाळ्ळु पोळोनु) हगो मालति मुन्सिपालटि दिव्या खांबोसो हावु हांग राब्लां पळैलतरि पळेनाश्शिल्यावारि कोर्नु वत्त मूगोतुं.

मालति – रस्त्यारि राब्बिल्यांक पोळोचें तांगेल्यागि उल्लोंचें माक्क जम्नाभटो.

रायभटु – जाय्तगो माक्कळनां. मेग्गेलि चुकिजाल्लि आस्सों तूं खयिंगेल्लें?

मालति – इंग्लीष पिक्चरा गेल्लिं.

रायभटु – हें कित्ते हिंदि, कन्नड सोण्णु एकदम इंग्लीषा हातु घल्लो?

मालति – कित्तें वोत्नाव्याश्शिलें?

रायभटु – अय्यो नाबाळा वच. ते खात्तिरि म्हळनां हावें तुवें दिव्सा सुद्दा सिनिमा गेल्यारि तुग्गेले घोवालि जेव्णा व्यवस्थ कित्तें?

मालति – हाटलं कित्तें नांचिवे? जायिजाल्यारि होटलां जेवतायि नातरि रात्रि येव्नु जेव्तायि.

रायभटु – अश्शीं, मालति लग्न जाल्लें तुक्क पैरि इत्ले भेग्गिं गेल्ले मुगो तुगेले दोळे वैरि, कित्यागो तुक्क इत्लें गर्व? ना मुगो कोणालें पर्व. अश्शिं तुवें

केल्यारि वाय्ट कोर्नु घेत्तूं तुग्गेलें जीवन सर्व. रीति, नीति, भीति, तुवें सोळ्यारि मुक्कारि कित्गोतुग्गेलि गति? चालचलावणेंतुं उरगो बेगेन मिति. ब्रेक नाशि सोडतूं गाडि खायिं पाव्तलि पुत्ता तुग्गेले घोवालि जोडि (उत्पन्न) आत्त पुणि हें सर्व सोडि चंचल मनांचो लगां वोडि.

मालति – भटो मेग्गेले मनाप्रकार घोवान चल्नांजाल्यारि कस्सं कोर्का? जल्मायेक फिल्मा होर्नु गोत्ना. आपिसांसानु यो भित्तरि भोंव्चा वोचां म्हळ्यारि बोड घुंव्यासुरू म्हणतायि. येक पत्तल हांडि म्हळ्यारि आश्शिंलेक हित्तल वीक्काजाय्त म्हणतायि. वाच्चापुणि पुस्तकं हांडि म्हळ्यारि पुस्तकं वादल्यारि मस्तक वाय्ट जात्त म्हणताचि. खयिंतरि दोंदिस प्रवासा वोचां म्हळ्यारि आत्तं दिसांतु प्रवासु कोर्चे पुशि उपासु कोर्चे बरें म्हण्ताचि. हांतु भित्तरि हावें कश्शिं कोर्का? माक्क जाय्तश्शिं हावुं कर्तां.

रायभटु – हें पळे आत्तं दिसांतु चेल्यांक सोर्यिक सोच्चें साज्जल्मावैर्या नाक्का. भारि कष्ट. सोर्यिक मेळ्ळिकित्ति लग्न जाव्चें आनी कष्ट. अश्शिं आस्तना तुक्क भांगरसो चेल्लो मेळ्ळो कित्ती तुग्गे म्हाल्गड्यानि केल्लें पुण्य बर्याश्शिलें. जाल्यारि तुवें हे नमुनो मना आय्यिल्ताश्शिं चोल्नुं फाल्यां तागलें बोड बिर्क जाव्नु तुक्क सोळ्यारि मुक्कारि कित्तें?

मालति – सोळ्यारि सोडोचि हावुं कुळार वत्तां थयिं कस्सल्याक कम्मिना.

रायभटु –अश्शीं, तें माक्क गोत्नागो. आस्सो तुवें ताक्क लंचु घेव्का म्हळ्ळें व्हयिवे?

मालति – व्हयी, सर्वानि घेत्तना आम्मि कित्या सोडका? मेळतन कित्या घेव्चाना? आजि मेळत म्होणु फाल्या मेळतवे?

रायभटु – मेळनां खरें, जाल्यारि अन्यायान केन्ना संपादन कोर्चाना. वर्तमान कालांतूं बर्नयिं. भविष्यांतू बर्नयिं. मुक्कारि जावचे चेर्डुवां सुद्दां बर्नयिं. आम्गेले पूर्वजानि ते बद्दल एक सुभाषित केल्यां 'अन्यायोपार्जित वित्तं दशवर्षाणुतिष्ठति प्राप्ते एकादशे वर्ष समूलंच विनष्यति.' अन्यायान संपादन केल्ले धनांक धावर्स वौदो इक्रावें वर्स लाग भित्तरि संपूर्ण वोच्चा सुरू जात्ता इत्लेनयि ताज्जे बर्शि स्वत: आम्गेलें मूलधन पर्यंत

...........................................................................................

वत्ता अश्शिं सांगल्यां.

मालति – भटो सुभाशित घेव्नु बसल्यारि तुर्तश्शिलि कोण दित्ता? माक्क तें कस्सलें गोत्ना. माक्क सांबाळनु व्होर्चाक तांगेल्यागिं जाय्ना तांक ती योगितिना.

रायभट्टु – तें व्हयिगो. ताक्क ती योगितिना म्हळ्ळें खरें. योग्यायोग्य सम्जुचि अख्खल आम्क ना म्होणु जाल्लि कित्याकी म्हळ्यारि सोर्यिक्केल्लि आम्मि पळे. आस्सो आजिकालि परिस्थितिंतुं चेल्यानि चेल्लि पास कोर्चें कष्ट म्हळ्ळें तुक्क स्पष्ट गोत्तास्सा. येक सोर्यिक जुळोचि म्हळ्यारि येकवेळ चंद्रलोक्कवोच्चुनु आयिल्तित्लो श्रमु जात्ता. आरेरे माक्षिं अश्शिं नाश्शिलें चेल्लि बरि, रगत बरें, गूण बरे, बरें कुटुंबाचि, दिव्चेघेव्चेकडे साधारण अडणा इत्लें जाल्यारि सै. जातक मेळामेळि आय्लें म्हळ्यारि लग्न जाल्यावारीचि आश्शिलें.

मालति – आत्तं कस्सं जाल्यां?

रायभट्टु – कायिं जाल्नां. जात्का नक्कल काडतना चेल्लि सर्वांगसुंदर की कश्शिं म्हळ्ळे बद्दल तग्गुं आन्नेकि कुंडलि कोर्का. १) चेल्लेलो बण्णु. २) हाय्ट मिमि किव्वां इंच. ३) ब्रेडत हात कित्ले मोठे आंगान कश्शिं? ४) नंतर केस काळे कीं पिंक्षे, फांति घाल्यारि ती खयिं पर्यंत येता? आंबोडो घाल्यारि लिंबियायेदो जात्तकीं? साक्कर लिंबियायेदो जात्ता. ५) दांत मुक्कारि कीं माक्षि, दांळंबा बिय्योश्यो आस्साकीं दुदयाबिय्योश्यो? नांक दोळे कलरू हें जाल्ले नंतर वर्दक्षिणा, बोंबैंतु जाल्यारि ब्लोक गावांतुं हो चोक हे नमुन्यारि लेक दिव्नु तांतु उत्तीर्ण जाल्लें बयावु. खंचे एक ग्रप्पांतु फेल जाल्यारि नेवान बोस्का परीक्षेक आश्शिं आसतना तक्क बरो चेल्लो मेळ्ळो विशेष त्रासु जाल्नां जाल्यारि तुक्क नशीबना.

मालति – भटमाम आम्क थोडि आशि उर्ता. लग्न जाय्नापुडे भोंव्का, तें कोर्का हें कोर्का म्होणु तें जाय्ना म्हळ्ळे नंतर ही कोर्का पडता.

रायभट्टु – हे खात्तिर 'बाय्लांलि अख्खल दिंब्चे सक्कल' म्होण्चे. हेतान ईर्षेन गेल्यारि घोवाल्यागि काम्म कोर्नु घेव्चा जाय्ना ताक्क पोलिशि कोर्का. आम्गेले यज्मानि विच्चारि सर्व गोत्तास्सा. तुम्गेल्यावारि शिकल्यांवेतें? ताग्गेल्ते पोलिशिन आय्यिले दक्षिणे दुड्डू सुद्दां ताग्गेल्यागीं दित्तांवुं.

..................................................................................

भार्यि गेल्लों हावुं पांच घंट्यारि जाल्यारि येवों जेव्नाशि बस्ता. तेन्न माक्क पोट लास्ता. जेव्नु बस्तकीं कित्त मात्तिकीं. अंतू जेविल्नां म्हळ्ळे हावभाव कोंदाकैता. हावुं जाल्तरी खुलास कोर्चा वत्ना. व्हयि म्होणुवत्तां. बर्यान गेल्ले दिवन वाय्टा वत्नांचि. पळे अश्शिं आम्गेलो संसारू प्रितीन वोच्चा वोच्चुनु एक साताट चेर्डुवं म्होणु जाल्लिं तांक मुंजि म्होणु जाल्लि. लग्न जाल्लिं सर्व जाल्लें घोवु सांगिल्तश्शिं आय्कता ताग्गेलि शेंडि तुग्गेले हात्तां आस्स म्होणु ताक्क गिंडि दिव्नु धाडचें नयिं. चंदायेन मितव्ययान चोलका, व्हयि जाल्यारि व्हयि म्हण.

मालति – तें सर्व मेग्गेल्यागिं हे जल्मा जाय्ना. हावुं तांक अश्शिं कोर्नु हदाहाडैतां. नांवे हावुं मेग्गेले आम्माथयिं वत्तां.

रायभट्टु – तुग्गेले हात्तान तुग्गेलो संसारू वाय्ट कोर्नु घेत्तुं. वाडचे रुक्काक कोच्यो मार्लेवारि जात्तलें. आलोचन करि.

मालति – आलोचन कोर्नु हावें काम कोर्चे. बरें येत्तां. तुम्मि येत्ताकीं?

रायभट्टु – ना बाळा तूं वच. आन्नेक दिसु येत्तां.

मालति – तरि हावुं वत्तां (वत्ता)

रायभट्टु – (ताणे गेल्ले बल्यान पळैत) हे चेल्यांक कालु आय्ला म्होणु जाल्लां. खरें आम्गेलिं बाय्लं ऽऽऽ बरि. खंयितरि रागान उलैता. मस्त वादुकर्ता आन्नेक घडयान दुद हून कोर्नु हांडिता. हें कस्सलें कुटुंबा, मर्याद काडचें.

मारुति – आर्रे भटमाम खयिं?.

रायभट्टु – खयिंनारे तुग्गेलि बाय्ल मेळ्ळिं. उल्लैत राविलो. चारि उत्रं चंदायेन सांग्लि नाटवल्नां. खंचे ओक्कद नाटवनारे करंट दीव्का. रोगु प्रभल जाल्ला कळवे?

मारुति – कस्सलें पुणि प्लेन कोर्नु मेग्गेलो संसारेकु सम्म करा पळोव्यां. आजीक आट दीस जाल्ले माक्कानि ताक्क उत्तर ना.

रायभट्टु – हावें 'लेन घाल्यांरे. ताणे कुळारवत्त म्होणु भिस्डैल्यारि आत्तं आत्त वच म्हण. वोच्चो मुक्कारि हावुं पोळोनु घेत्तां.

मारुति – कुळार गेल्यान येना जाल्यारि?

.......................................................................................................................

रायभटु – ए... हे हेंचि पिश्शापण. मेग्गेलि यज्मानि दिसा तीनि वळे लडायिकोर्नु स वळे कुळार वोच्चुन सातवेळ वापास येत्तालें. खय्यीं वत्ना भीव्नाका.

मारूति – बरें हावुं तित्लें कर्ता.

रायभटु – जाय्त ताणे कुळार वचभित्तरि माक्क कळयि मुक्कावैलि व्यवस्था हावुं कर्ता. हयरे तुग्गेलो मेवणो आय्यिलो तुक्क. मेळ्ळोखयिं नयिं.

मारूति – व्हयिवो माक्क मेळ्ळो. हावें घराकडे सुद्दां यो म्हळनां. खंचे खात्तिर यो म्होण्चें?

रायभटु – बरें केल्लें तुवें. हावें ताक्क थोडें सूक्ष्म सांगले. भारि बेजारू केल्लालो.

मारूति – जाय्त माक्कां वेळु जाल्लो हावें सांगिलें उडगासु उरो. (वत्ता)

रायभटु – जाय्तरे (वत्ता).





## प्रवेश ४
## नागण्प शेणैले घर

(सुजाता वाजत उर्ता थोडे वेळान पुस्तक दोब्वोर्नु विंगांतु पळैता)

सुजाता – आनिंक हे आय्यिल्नांयि कित्तें? मेग्गेले माय्कं अख्खल येना कशिशं? अश्शीं आम्मि राद्दिस लडायि करत गेल्यारि मुक्कारि कशिशं? चारि दिस सम ऽऽऽ जवाब दिल्यारि सम्म जात्तलि म्होणु केल्लें कस्सलें केल्यारि ना तिग्गेलो स्वभावु तित्लो.

मदु – (प्रवेश) सुजाता हांग राब्बुनु कस्स आलोचन कर्ता?

सुजाता – तुम्गेले आम्मान सुधार्चे केन्ना म्होणु विचारू कर्ताशिशलिं.

मदु – तूं कस्सलें उल्लोनाक्का. तिक्का ऽऽऽ बेजारेव्नु आपोआप सुधार्तती.

सुजाता – हावें तुम्क मात्या तेल घाल्नु मेग्गेले बलेन ओलसुन घेतल्यां खयिं.

मदु – तें फल्सवे? तुवें बोड वाय्ट केल्यां म्हळ्ळें खरें. तुवें येतलागय्त माक्क आंगडिकडे सुद्दां लक्ष कम्मि जाल्यां. केन्न घराकडे येन केन्न हें तुग्गेलें तोंड पळैन म्होणु जात्ता.

सुजाता – (हासत) हावें तुम्का तशिशं करि म्हळ्चवे?

मदु – कोणे सांगुनु कोर्चें नयिंगोतें आपोआप जात्ता. हावें खुषालि केल्लि तुक्का.

सुजाता – तेच्चि आवैले पूत नवे तुम्मि?

मदु – तिग्गेलो पूतु तुग्गेलो दूतु. आस्सो तुग्गें जेव्वण जाल्लेंवे?

सुजाता – तुम्मि जेवणा खंय्की वत्ता म्होणु सांगुध्होळ्ळे नंतर हावुं जेवलिं आनि अजूनु जेव्हण कोर्नु आयिल्नां कित्तें म्होणु पळैत राब्बिलिं.

मदु – आम्मा खयिंगेलि?

सुजाता – भित्तरि निद्दल्या आप्पोकावे?

मदु – अय्यो नाक्काबा तीणे उट्टांचें पय्लें हावुं जार्वतां.

सुजाता – तित्लें भिव्का कित्याकी म्होणु?

मदु – भिव्चे खात्तिरि म्हळनांगो हावें. जाय्मोणु कित्या कर्खर. वच उट्टाल्याकी पळे (सुजाता भित्तर वत्ता) अस्सले रत्नशे चेलयेक चोलोनु वोर्चाक हिग्गेल्या जाय्ना चंदायि म्हळ्ळी ना. घरांतु अश्शिं म्होणु मावांन विचार्ल्यारि हावें जवाब किद्दीव्का? आम्गेले आम्मांक काय्यीं कळनां., पोळोव्या.

रत्ना – (भित्तरी सानु ओद्देस्त यत्ता) मदु ऽऽऽ ए मदु ऽऽऽ.

मदु – (भीव्नु) आर्रे हीच्चि. उट्टानु आय्लिमुं (बोड खर्पुन घेत्ता)

रत्ना – हयरे आंगडिकडे कोणास्सा मदें कस्सल्या आय्लो?

मदु – हावें जेव्णा येना म्होणु सांगुनु धाळ्ळि खब्बर पाव्नाशि मेग्गेले खात्तिरि जेव्नाशि बस्तित म्होणु आय्लों.

रत्ना – जेवल्याकी ना म्होणु पोळोया आय्यिलोंकीं बाय्ले पोळोया आय्यिर्लें?

मदु – तूं कश्शी सम्जना. बाय्ले कित्तें हावें पळयिल्नांवे?

रत्ना – आत्तं चेर्डुवांक बाय्ल यो भितरि पिश्शेंशें लाग्तरे आत्त माक्क. आय्कत्वेतूं? हावुं जावि तुक्का? फोप्पळ आस्तन होंटिं घाल्लें म्होणु माह्ति जाय्ना पुडे जात्तवें?

मदु – आम्मा तुवें सम ऽऽऽ उल्लोंचे केन्ना? तें पुणि सांग.

रत्ना – जाय्तरे पुत्तां उल्लोया शिकतां कळवे?

.................................................................................................

मदु – तश्शिं नाटींगे, सुन्नेक तुवें ते नमुनो त्रासुदिल्यारि ताग्गेले बाप्पान अर्थात मेग्गेले मावांन विचार्ल्यारि हावें कित्सांका?

रत्ना – सांगचे काय्ना. आत्तं तांगेलो अधिकारू काय्ना लग्न कोर्नु केन्ना भार्यि घाल्लें की तांगेलो हक्कु गेल्लो.

मदु – अश्शीं. हो काय्दो तुग्गेले सुन्ने मात्र कीं? धुवे सुद्दा लागजात्ता?

रत्ना – सर्वांक लागु. लग्न कोंदिल्लें कीं आम्गेलो हक्कु गेल्लो कळ्ळवें?

मदु – आस्सो, राद्दिस तुवें हे नमुन्यारि सुन्नेंक हिणशिल्यारि खाल्लिंलें शीत आंगालाग्तगे?

रत्ना – लाग्त की ना म्होणु ताक्क पळयल्यारि कळ्नां? तुग्गेलें बोड वाय्ट केल्यां ताणे. आम्क भार्यि घाल्का म्हळ्ळि आलोचन ताक्का. आस्सो हावुं वाय्टनवे? तुग्गेलो बाप्प सुध्दा तश्शीं म्हण्तायि. हावुं वाय्ट जाल्लिं आस्सा फूरा पोळोनू साडतां वच तुग्गेल्यागिं उल्लोनु वेळु कित्या वाय्ट कोर्का (भित्तरिवत्ता).

मदु – मोकळिक थोडे वेळा भित्तरि सुंटवाड चल्लो हिग्गेले तोण्णांतुल्यान.

सुजाता – (येत्ता) आय्कलिंवे तुम्गेले आम्मालिं उत्रं? हावुं वाय्टकीं कोण वाय्ट पळया.

मदु – तुग्गेले गूण माक्क सांग्नाक्का. तूं कित्तें कम्मिचें? तिग्गेले उत्रांक जवाब दीव्नाक्का म्हळ्यारि तूं आय्कत्वे? तूं म्हळ्यारि तुज्जानु म्होणचे पैकि तू.

सुजाता – मेग्गेलि सहनशक्ति मिर्वुनु गेल्लिनंतर तोंड कश्शिं ओग्ग राब्ता सांगा.

मदु – आस्सो. साबार सर्ले थोडें उर्ले हावें सांगिल्तशिं तूं कर्शितवे?

सुजाता – कस्सलें कर्ता सांगा.

मदु – समयारि हांगासानु आम्मि दोग्गानि भार्यि पोडका पडतलें.

सुजाता – भारि बर्जाल्लें हावुं तयार.

मदु – बस् आम्गेले मालतिलि खब्बर तुक्क सांगल्या हावें. तें फक्कने हांगेव्या फावास्सा. आयल्यारि मन्सोइच्छा उल्लोया आडणातुवें मुक्कारि हावुं पोळोनु घेत्तां.

.................................................................................................

सुजाता – लायसन्स मेळ्यारि हावुं उल्लोचा कम्मि कर्तवे?

मदु – लायसन्स ना जाल्लि कित्ति आम्मा उल्लोचाकम्मि केल्यांवे तूवें. बाय्लि जाति उल्लोचा लागल्यारि विच्चार्कावे? ते खात्तिरि बाय्लांक देवान नाजूक तोंड दवर्ल्यां.

रत्ना – फुरो फुरो साबा बर्दिस्नातें उल्लुल्लय्त श्रंगारिक भास वार्थिपळ्ळ आंगडि कडे वचा वेळु जाल्लो.

मदु – तुग्गेल्यागिं उल्लय्त राबल्यारि वेळु जाल्लो कळनां पळे.

सुजाता – आत्तं वत्ताकी तुम्मि? नेवान आम्मान आयल्यारि मांकडा सोरो पिव्वोनु इच्चु चाब्बयिल्यावरि नांचत पडतलि.

मदु – आत्तानि येनागोंति अश्शिं यो व्यारू केन्ना आस्सा यो बशि (बस्ता लाग्गि खुर्चि दाक्कैता) योगो.

सुजाता – (स्व) हें लांबायेरि वत्ता. आत्तं हांक दांव्डाय्ना जाल्यारि आय्कनांचि (प्र.) बस्ले कित्तें?

मदु – हांग योगो अश्शिं बशि सांगता.

सुजाता – आय्कलें हांग आप्पैतामु.

मदु – नाक्क बाळा वत्तांवुं (सर्कने उट्टानु धांव्ता)



## प्रवेश ५

## रस्तो

(रायभट्टु आनि नागप्प शेणै उल्लय्त येत्तायि)

रायभट्टु – आत्तं इतल्यारेव्नु राबल्यां. हावें सांगिल्तश्शिं तुम्मि केल्यारि सै.

नागप्प – जाय्तवो. अंतूं गावांभित्तरि मर्यादेन उर्का म्हळ्यारि दीनांचि म्होणु जाल्लें.

रायभट्टु – तुम्मि इत्लो अव्तारू दाक्कोकाकिं तुम्गेले बाय्लेन भीव्नु हावुं सांग्नातें. हूम सूंटका पळया.

नागप्प – हें नाटक केन्न म्होणु सांगा. नाटका सुरू जाव्चें पय्लें. शानभाग

डाक्ट्राल्यागि वोच्चुनु फ्यूज घालघेव्नु यत्तां.

रायभट्टु – फ्यूज म्हळ्यारि?

नागप्प – वर्स जाल्यांमुवो. राग आयल्यारि आंगफूरा थर्थर्ता. आंगांतुं वोल्टेज कम्मि जाल्यां ते खात्तिरि दों तासं नरांक ताकत्त येव्चे नमुन्यांचें डब्बल इंजक्षन घेव्नु येत्तां.

रायभट्टु – तश्शीं करा. काम्मात्र हाय क्लास जाव्का.

नागप्प – तुम्क नाक्कतें. कडेरि सांगातुम्मि. अंतू घरांतुले कर्खर बंद जाव्का. पळया. दुसर्याले चेर्डा आम्मि हाण्णु सतासुनवें.

रायभट्टु – बरें तुम्मि चला हावुं येत्ता.

नागप्प – जय्तवो (वत्ता)

मारुति– (नागप्प शेणैन गेल्ले विरुध्द दिक्कान येत्ता) आर्ये भटमाम.

रायभट्टु – मारुती? यो तुक्क शंबरि वर्स आयुष्य. तुग्गेले मावान आनि हावें आत्तं तुग्गेलो उडगासु केल्लो, केन्नाय्लो?

मारुति – आत्तं आय्यिंल्वो. सक्काणी पय्ले गाडेरि आम्गेलें मालति भार्यि सोर्नु आयल्यां. मागेत्तू नावो. हावें ऊट पर्यंत ना हें. रात्रि भारि उत्रं जाल्लि. आप्पुणु हांग राब्ना म्हणालें. हावें विशेष लक्ष दिल्नां. जाल्यारि सक्काणि ना म्हणापुडे घराबीघ्घांल्नु ताबडतोप टेक्सि कोर्नु आय्लों.

रायभट्टु – इत्लें जाल्लें कीं? जाल्लिंलें बर्याक आस्सो तुं आत्तं वोच्चूनु मावांमेळ ताग्गेल्यागि हावुं उल्लैलां.

मारुति – तुम्मि सांगल्यानवे बरें जाल्लें.

रायभट्टु – मुक्कारि कस्सं कोर्का म्होणु हावुं सांगतां. गडबडि कोर्नाका.

मारुति – ताक्कानि घरां घेनावो हावुं.

रायभट्टु – (मारुतिन राब्बिले विरुध्द दिक्कान प्रवेशु) होक्सुनु घेना म्होणच्याक हांवनिं येना. जगले भागवतु जाव्नु एकळे बसा.

मारुति – बसा म्होणु तुवें सांका म्होण्णा. एकळो बस्ता नावे कोणांक घेव्नु बस्तां.

मालति – बसा बसा. तुम्क सर्व बाय्ल म्होणु सांगिलें कोणे? सत्य धर्मु कोर्नु

............................................................

गावांरि कीर्तन करत भोवां.

मारुति – हावुं कीर्तन कर्तां तू नर्तन करि. मर्यादे मोल गोत्तु ऊरो. साबार ऊडणाका. बाय्ल म्हळ्यारि कश्शीं रुकां म्होणु गेत्ना.

मालति – बाय्ल म्हळ्यारि तुम्मि सांगिल्तश्शिं नांतलि म्होणु केल्यांवें तुम्मि? 'ओलिदरे नारि मुनिदरे मारि' हें गोत्तु ऊरो.

मारुति – आनि बाय्लेन सांगिलतश्शिं घोवु नांतलो म्होणु केल्लेंवे तुवें? 'ओलिदरे गंडा मुनिदरे गुंजा' हें सम्जुनु घेव्चि शक्ति ना तुक्का.

मालति – गुंडानयिं भंडा. हें रुंडगेल्यारि अनि तुम्गिथयिं पायुदव्वर्ना.

रायभटु – मालति बाय्लांक साबार बुदवंतकायि बरि नयिंगो. अविचाराक आस्पद्दीव्नु अनाहुताक आमंत्रण दीव्नाका.

मालति – भटो तुम्गेले उपदेशा अवश्यकत माक्कना वास्संरि पुराण सांगचे तुम्मि. 'ब्राम्हणो भोजन प्रिया' तुम्का जेव्णा रुचि होर्तु संसारा रुचि गोत्ना.

रायभटु – आरेरे संसारा रुचि गोत्ना म्हळ्यारि कश्शिंगो तें? लग्न जाल्लें साताट चेर्डुव जाल्लिं तांक मुंजि लग्न सर्व जाल्लें हाज्जे भार्यि आनि कस्सं जायि?

मारुति –ताग्गेल्यागिं कस्सं उल्लय्ता भटो ऊण्याल्यागिं दूणे घेव्चाक.

रायभटु – अडणारे माक्कां तें कित्तें दुस्नेंवे? मेग्गेले धूवेवारिचि.

मालति – तुम्मि आनि मेग्गेले कुळार येव्नु मेग्गेल्यागिं कस्सलें म्होणुघेव्षा....

मारुति – ओ हो हो... माकस्स गरज तूं ना म्होणु मेग्गेले दिवस वत्ना म्होणु लेकल्यांवें तूं? लग्नापय्लें कित्तें नाश्शिलवे? तुवें आसल्यारी तोंद्रे माक्कां. वच चच.

मालति – वच म्होणु तुम्मि सांका म्होण्णा. वोच्चाक ऽऽऽ आयल्या हावुं.

रायभटु – मालति, बाय्लांक कुळार आवै बापय्न ऊर पर्यंतगो.

मालति – माक्क. तश्शीं ना. हावें केन्ना गेल्लिकित्ति माक्क स्वागतास्सा.

मारुति – भटो उल्लोनु कित्या वाय्ट जात्ता तुम्मि? काला तक्क बुध्दि येत्ता.

मालति – तुम्मि बेगेन शुध्देरि उल्लया. हावुं तित्ले नाक्क म्होणु जाल्या हांग

.............................................................................................

कित्या धाव्नु आय्ले?

मारुति – धाव्नु येव्चाक हावुं रन्निंग रेसा राब्बिल्नां. टेक्षिरि आय्लों. घराकडे ना म्हणाफुडे खयिं गेल्लें म्होणु पोळोनाक्का. न्हय्तं पळ्यांकी बाय्तं पळ्यां म्होणु पोळोनाक्का?

मालति – न्हय्तं बाय्तं पोडचाक माक्कित्तें जीव जड जाल्लां.

मारुति – कोणांक बाय्त धुंगुळनुं घालशी तूं .

मालति – तुम्गेल्यागिं उल्लोचें काम ऽऽऽ ना माक्का. आय्यिले वाट्टे टेक्स ना म्होणु वापास वचा. हावुं जीवबी दीना कळवे? (वत्ता).

मारुति – जीवु घेत्ता लोकालो. अख्खल शून्य बुध्दि शून्य.

रायभटु – वोच्चोरे हावें थयिं सर्व सम्म कोंदव्वर्ली.

मारुति – हावुं शीदा आंगडिल्या वोच्चनु मावांल्यागी उलैतां. तुम्मि बेगेन वेळान थयिं येया.

रायभटु – हावुं हांगा वत्तानि येत्तां. तूं मुक्कारि वच (वत्ता)

रायभटु – मालति तुग्गोत्नागो हे रायभटालि वाति. कर्तपळे तुग्गेलि गति. नामुगो तुक्क मानमर्यादे भीति. हांवेतुग्गेले फाटोफाट देवैंतुक्क कुळार्चे मेट. वास्सरें पुराण सांगत्हावुं नयिं? मेग्गेलें पुराण मरण पर्यंत यादु ऊर्का तित्लें कर्नाजाल्यारि माक्क राय भटु म्होण्चे नोंण्यांतुलो भट्टु म्हण. (तुवालो फाप्पुणु वत्ता).



## प्रवेश – ६

## नागप्प शेणैले घर

सुजाता पुस्तक वाचत बसल्यां. हात्तां येक बेग घेव्नु भार्यिसानु मालति येत्ता.

सुजाता – हें कित्गो सक्काणिफुडे अचानक आगमन? तोंड फूरा देव्नु गेल्यां. आमंत्रण नाशिश कशिशं आय्लें तूं?

मालति – मेग्गेले घराकडे माक्केव्चाक आमंत्रण जाव्का म्होण्णां.

..............................................................................

सुजाता – तुग्गेलें घर? तुग्गेलें घर हें नयिं. बाय्लांक दिल्लिलें घर ऽऽऽ गति जाल्लिलें घर एक्की राति. आम्मि आप्पेल्यारि मात्र तुवें येव्का.

मालति – मेग्गेले घराकडे माक्केवच्याक अधिकारू आस्सा.

सुजाता – तुक्कात्तं काय्यीं अधिकारू ना. गोत्र खंडन कोर्नु केन्न भार्यि घाल्लें कीं तुग्गेलें मंडण हांगानि चल्नां. तात्पूर्तीक आयल्यां कीं कायंचें आयल्यां.

मालति – कायंची आयल्यां. तुक्क विच्चार्नु हांवु आय्यिल्नां.

सुजाता – होज्जे नंतर तुवें माक्क विच्चार्नु येव्का कळवे?

मालति – मेग्गेले आम्मानानि बाप्पान जीवंत ऊरपर्यंत तुक्क विच्चार्चि गरजना. मेग्गेले आम्माले हक्कारि हांवेत्तां.

सुजाता – तुग्गेले आम्मालो आनि बाप्पालो हक्कु गेल्ला आत्तं. तुग्गेले बाप्पाक साटि आम्माक पंचावन्न वर्स. तांक पेन्शन जाव्नु तांगेलो हक्कु आम्क सेंक्षन जाल्लां कळवे? तुग्गेले आम्मांक काय्यीं हक्कु ना आत्तं. आस्स म्हळ्ळो सोक्कु तो हावुं देवैंतां.

मालति – तुग्गेले उत्रांक हावुं किम्मत्त दीना. घोवा आय्कनाश्शिलिं तुक्का आय्कतां?

सुजाता – तुग्गेले घोवाल्यागिं संसारू कोर्चाक जाल्नां तुका? मायिं, मावुं, नणदो कोणूनांयि अश्शि आस्तना तुक्क केन्न जमिल्नां... म्हणापुडे तूं कितल्यांचें म्हळ्ळें स्पश्ट कळता. मेग्गेले माय्चेवारि येकि मायिं आसल्यारि कित्तें कर्ताश्शिंल्कि तूं?

मालति – मेग्गेले आम्मा दुर्विल्यारि तुक्क कायिंतरि जाय्त.

सुजाता – दुर्वचें नयिं मात्यारि फात्तोर हेर्बुचास्सा. राद्दीस काव्ळोसो करकर कर्ता.

मालति – मेग्गेले आम्मांक काव्ळो म्हण्ता?

सुजाता – म्हार काव्ळो करकर काव्ळो, तुवें म्होणचें कित्तें?

मालति – आम्मा काडचाक ऽऽऽ हांगायल्यांशि दिस्तु. ह्या नमुन्या देक्कुनू इत्लें वर्स लग्न जाय्नाशि आश्शिल्लीं. मेग्गेले अण्णांक बरी गांटलि तू सुजाता – शटपू, गेटा भार्यि राब्बुनु उल्लयि.







रत्ना – (भित्तरिसानु येत्ता) कोणागोतें तुवें उल्लं

सुजाता – तुग्गेलि सुपुत्रि घोवा दीव्नु आयल्यां कात्रि ताक हांगा राब्यादीना हें मात्र खात्रि.

रत्ना – तूं कोणगो ताक्क उल्लोचाक? हावुं हांग राबल्यां. एद्राक हावें जीवंत ऊरपर्यंत तुक्क खंचो आय्लोगो हक्कु?

सुजाता – आनिंक गेल्नां तुम्गेलो सोक्कु? घोवा सोणायिले धुवेक घरा होक्कुनु घेव्चि पय्लेचूकि. ताक्क सहानुभूति दाक्कोनु ताग्गेल्यागिं उल्लोचि दुस्रे चुकि विचारा ताकडें घाल्नुं जोकि नंतर उल्लायि बाकि.

रत्ना – आय्यिल्याक बशि म्होणचे पय्लें ताक्क भार्यि घाल्चा लागलें. तें हांगा जाल्लिलें, नंतर तूं आय्यिलें. आय्कनाग्गो ताणें उल्लयिल्लें. बरें केल्लें तुवें हांगाय्यिलें.

मालती –तुवें हांगास्त एद्राक हावुं भित्तवे हिग्गेले उत्रांक वत्त पळे हावुं भित्तरि कस्सं कर्त पोळोनु करि. (दोग्गं भित्तरि वत्ताचि)

सुजाता – घोवा सोण्णु आय्लि बद्दल नामुहिक्का बेजारू. आनिंक कर्ना हि विचारू वाय्ट जाय्नावे ताग्गेलो संसारू?

नागप्प – (भार्यिसानु येत्ता) कोणालो संसारूगो वाय्ट जाव्चो?

सुजाता – तुम्गेलि मोगाधूव, घोवालागीं लडायि कोर्नु हांगेव्नु होक्कल्यां. हावें ताक्क घरांतु होक्सुनु घेव्नवे म्होणु प्रयत्न केल्यारि माय्न भित्तरि व्हेल्लें.

नागप्प – (रागान) माय्न भित्तरि व्हेल्लें? कशिशं व्हेल्लें? कित्या व्हेल्लें? जाय्ना एक मिनिट ताक्क हांग राब्यादीना. ए मालति, मालति.

मालति – (भार्यियेत्ता) कित्तें बाप्पा?

नागप्प – (रागान) बाप्पा ऽऽऽ म्होणाका. मालति कुलि घातकी (रत्ना येत्ता) तीनि मिनिट भित्तरि हांगसान भार्यि पड हांग तुक्क कोणे आप्पयल्यां.

रत्ना – ताक्क हांगेव्चो हक्कु नावे?

नागप्प – ताक्कनि तुक्क आय्ला सोक्कु. तें कशिशं आय्लें. कित्या आय्लें म्होणु विचारू केल्ला तुवें? (मालतिक) पय्लें भार्यिपड.

रत्ना – येव्चो हक्कु ना जाल्यारि राब्बोनु घेव्चो हक्कु माक्कास्सा.

.......................................................................................................

नागप्प – आम्गेलो हक्कु केन्नकी गेल्ला. हावें सांगिलें तित्लें आय्कवा हाज्जे भार्यि कोणें उल्लोचाना.

रत्ना – घोवाथंचें मेटानि चण्णा म्होणु आयल्या खयिं तें.

नागप्प – घोवाथंचें मेट देव्विंल्याक हांग्चे गेट बंद. हावुं दित्त तुक्क पांच मिनिट टैं (भित्तरि वत्ता).

सुजाता – कळ्ळेंनवे मावान सांगिलें. तुम्मि कस्सलें उल्लोंचें आसल्यारि मुगसुनु सोडा.

रत्ना – तूं उल्लोनाग्गो. तूवें येतधोर्नु माक्क उल्लोचा सुरू केल्यां म्हांतारानि घरपाडि खंयि.

सुजाता – आपण्याले पय्मुळां कुवाळें कुसल्यां दुर्ण्ण पाय्मुळां सास्म विंता.

रत्ना – (मालतिक) चलगोतुं भित्तरि उलैत ऊरो. (भित्तरि वत्तायि)

सुजाता – 'बाविलि बिद्रू भांजोत बिडुदिल्ला' म्हळ्ळे जाति लोकु हो.

मदु – (भार्यिसानु येत्ता) तयारि केल्या नवे तूवें?

सुजाता – सर्व रेडि केल्यां, तुम्मि गाडि हाळ्यावें?

मदु – व्हयि. मालति आयल्यांवे?

सुजाता – आयल्यां भित्तरि गेल्यां. तुम्गेले बाप्पान पांच मिनिट टैं दिल्ला ताक्का

मदु – अत्तं रायभटु आनि भावजि येत्तले.

सुजाता – भावजि आयला?

मदु – व्हयि, मालतिले फाटोफाटी आयला तो. आंगडिकडे बस्ला. चल भित्तरि वच बेग घेव्नु येव्यां (भित्तरि वताचि) (नागप्प शेणै भार्यि येव्नु हेत्तांतेत्तां पळेता).

नागप्प – आर्ये अजुनु आयिल्यांयि कित्ते हें? (मदु सुजाता वोच्चे तयारेरि भार्यि येतायि. ट्रंक हांडव्वर्ताचि. रत्ना मालति भार्यि येत्तायि) आर्ये हें कित्ते खयिं वत्ता तुम्मि?

मदु – हांग आम्क सूखना, आम्गेले निमित्ति तुक्कानि आम्मा सूखना. म्हण फुडें आम्मि भार्यि वोच्चें बरेनयिं?

..........................................................................................................

नागप्प – अशिशं. बरें केल्लें तुवें. तुक्क सांका म्होणु हावें आलोचन केल्लि. जाल्यारि खंचे तोण्णान सांग्चे पुत्ता आनि सुन्नेंक खयिं तरि वच म्होणु सांका की हे मांतारकालारि हावें भार्यिपोण्णु वोच्का हें माक्क कळनांशिश आश्शिलों.

मदु – माक्कां तित्लें जाल्ले. हेत्तां आम्मान सांगिलें व्हयि म्होणका? की बाय्ले सांगिलें व्हयि म्होणका हें कळनांशि आश्शिलों.

रत्ना – (रळ्यावारि) आश्शिल्लो तूं एकळो मुरे पुत्ता. तुवें गेल्ले नंतर हावुं हांग कस्सं कोरूं? तुज्जे भर्शि हावूं येत्तां.

नागप्प – (होडान) तुग्गेलो सव्वासु नाक्क म्होणु हांगसानु वत्त तो. नेवान तूं ताग्गे भर्शि वत्त म्हळ्यारि कशिशं तें?

रत्ना – मदुन ना जाल्यारि हावुं हांग एघ्घडि राब्ना. ताणे आश्शिलेकडे हावुं.

नागप्प – कडेरि ताणे बाय्ले कित्कोर्का?

रत्ना – कुळार धाडो. निवाळसवोतें. ताणे येत लागाय्त कोणांक सूखना.

नागप्प – कुळार धाडका? तुक्क सुळारि घाल्का. तुक्क धाडात्हांवुं कुळारा आत्तं आत्तं वोच्का तुवें.

मदु – कुळार धाडच्याक लग्न जाल्नांगे हावुं. तोण्णान उल्लोंचें संसार कार्यान कोर्चे मात्र कष्ट कळवें?

मालति – आम्मा सोण्णु वोत्नाक्रे अण्णा.

मदु – तूं आयल्यां मुगो घोवा सोण्णु आम्मा धोर्नु घेव्नु बशि. माक्क अण्णा म्होण्णाका. तुग्गेल्यागिं अण्ण म्होणु घेव्चाक माक्क. मर्याद्दिस्ता. (बाय्लेक) ऊट वोचां. (मदु हेंड बेग खांदारि घाल्ता. तें पोळोनु).

रत्ना – मदू ऽऽऽ वोत्नाक्रे पुता तुक्क सोण्णु हावुं येघ्घडि ऊर्ना.

रायभटु – (प्रवेशु भार्यिसानु येत्ता. सर्वां पळैता) कस्सलेंरे हें सर्व. आर्रे मदु? खयिं भार्यि सर्लो? कस्सलें हें?

रत्ना – भटो तुम्मि पुणि बेगेन सांगा. मदु घर सोण्णु वत्त खयिं वोत्नाका म्होणु सांगा.

रायभटु – तुक्क बरे जाल्नां. सुन्नेलो त्रासु ना आतां. कर्खर ना. धूव कशिशं

..............................................................................................

आयल्यां धोवा सोण्णु. आरांशीर बुरा. मदु तुवें वोच्चें बरें.

रत्ना – नाक्क भटो. तश्शिं म्होणाकायि. नाक्क म्होणु सांगा.

नागप्पा – सांग्नाकावो भटो, वोच्चेतो खय्यीं पुणि बर्जाव्नु उर्लारि सै. आत्तं पोळे काडता. दोळे निकळ्चान. साबा उल्लयल्यारि गळ्याधोर्नु भार्यि घालिन. (षर्टा हातवैरि कर्ता. रा.भ. तडविता)

रायभटु -- नाकवो नागप्प शेणैनु. रागा हात्तां बोड दीव्नाकायि.

नागप्प – तुम्मि सोडा भटो. म्हळ्ळे म्होणु जास्ति जाय्त गेल्यां. येक पुत्ता आनि सुन्नेंक चोलोनु वोर्चा जाय्ना? इत्ले वर्स वोग ऽऽऽ उर्लों माक्क सद्दां भिसडानु घेत्ता? ताक्क राब्बोनु घेव्चें उदा आस्स तुक्का? आजि हावुं तुग्गेलें उद्दा पोळोनु सोडता. इत्ले दिस मर्यादे भीव्नु ओग्ग उर्लों. आत्तं हावुं कस्सल्याक भीना.

रायभटु -- वूरोहो नागप्प शेणैनु, कित्तें म्हळ्यारि बाय्ल मनुषनवे?

नागप्प -- बाय्ल मनुष? कोण हें? धा दार्ल्यांलें धैर्य आस्स ताक्का. लग्न जा भित्तरिं कोडाणे सानु माक्क हांग हाळ्यां ताणे ताक्क हावुं इतल्यारि सोण्णा. मस्त वर्सा सेडु तिर्सुनु घेव्यास्हांवें. मेग्गेले आम्मांक शीत म्होणु खाव्चादिल्नां. सम ऽऽऽ रडैयलां म्हाका. घर सोडैल्यां. हाग्गेले उत्रांक भुल्नुं म्हणा, भीव्नु म्हणा, आम्मा आनि बाप्पा सोण्णु घरांसानु भार्यि पोण्णु हांगाय्लों. तीच्चि पाळि आजि तुक्कायल्या. आत्तं रडत बशिं. मेग्गेले आम्मांक रडयिलें तुवें. मदु वोच्चोवो भटो. ताज्जे भर्शि तूं वश्शी तुक्क सम ऽऽऽ चिर्ता माक्क फाशि जाल्लि म्होणु अडणा. मेग्गेलें आय्श खर्चत आयल्यां आनी हावें पोळोचें बाकि म्होणुनां. एखाद्य वेळा मेग्गेले हातांतुल्यान चुक्कुनु तूवें जीवंत उर्ल्यारि तुग्गेलो इतिहास पेपरांतु फायिसकोर्नु गावांरि तुग्गेले वार्या कोणे येव्चा तित्लें कर्ना जाल्यारि कोडाणे तिम्मप्प शेणैले कुटुंबा जाल्लों फाल्स.

रत्ना – रायभटो मेग्गेलि संपूर्ण चुकि जाल्लि. आम्मि चुक्किलें आम्क कळनां. इत्ले दिस अज्ञानांचे अंध:कारांतुं आशिशल्लिं आत्त माक्क बुध्दि आय्लि. सुन्ने आनि मदुक हाजे नंतर हावुं उल्लैना. येकवेळे वत्नाशि करा.

..........................................................................................

नागप्प – हर्गिस जाय्ना. भटो बकध्यान हें तुम्मि नम्गुनाक्कायि. येक जाति हावुं आय्कना.

रायभट्टु – शेणैनु तुम्मि रागु जास्ति हाणहोव्याना. तुम्गेले हार्ट पय्लें वीक्कास्सा. रागु मात्या चोण्णु खयिंतरि फ्यूज वचत.

नागप्प – गेल्लें म्होणु अडणा भटो. घरांतु सूखना म्हळ्ळे नंतर ऊर्नु उपेक्कितें?

रत्ना – ना, हांवनि तुम्क केन्ना उल्लैना. बेजारू जावो सार्खें कस्सलें कर्ना (नागप्प शेणैले लाग्गिं वोच्चुनु) तुम्मि येकवेळ थंड जाया.

नागप्प – माक्क थंड कोर्चि आलोचन तुक्का नयिं?



रायभट्टु – तशिशं न्हयिंवो. शांत जाया म्होणु.

नागप्प – मदुले मात्यारि हाड्डोवोर्नु सांग.

सुजाता – हावुं तिक्क हाड्डोव्वोर्चादीना तिग्गेलो भर्वासु माक्कना.

रत्ना – (सुन्नेले लाग्गि वोच्चुनु) नागो पुत्ता खर्यापणांक हादनंतर तुक्क हावुं कस्सलें उल्लैना. तुग्गेले सुखाक आडयेना. इत्ले दिस कस्सलें म्हळ्ळें आसल्यारि माक्क माफ करि (आडबाग्सता)

सुजाता – (तिक्कधोर्नु) ना, ना, तुम्मि तशिशं कोर्चे नयिं. हावें तुम्क नाक्काशिशलें म्हळ्यां उल्लयिल्यां. खरें म्हळ्यारि तुम्मि माक्क माफ कोर्का (पांय्पडता)

रत्ना – ऊटूट. कित्तें म्हळ्यारि मेग्गेली सून्नवेतू. चुकि मेग्गेलीच्गो पोरा. जाय्मोणु तुक्का त्रासु दिल्ल हावें. (रत्ना, सुजाता, मालति एक्क बलेन राब्ताचि.)

रायभट्टु – हयरे मदु 'हिट्टु रोस्सु येक्कूचि दोन्नो मात्र वार्यारि' म्हळ्यावारि हीं बाय्लं वोट्टू येक्कचि. आम्मि मात्र वार्यारि.

नागप्प – माक पांय्पडि चूकि जाल्लि म्हण.

रत्ना – मेग्गेलि चूकि जाल्लि माक्क माफ करा (पांय्पडता)

नागप्प – (मिशोतिर्पीत) तथास्तु येकंको जाल्लों आत्तं दुस्रे अंको (होडान) मालति!! (मालति उड्डुनु पडता) कित्तें तुग्गेलि गति?

रत्ना – गति कस्सलि घोवान सांगिलें आय्कुनु चंदायेन उर्चि ताग्गेलि रीति. तशिशं उर्त जाल्यारि मात्र ताक हांग स्थान ना जाल्यारि ताणे हांग

.....................................................................................

उर्चाना. आनी ताणे कुळार म्होणु पोळोचा ना. आम्गेले लेक्काक तेंन्ना म्होणु आम्मि संम्जुतांयि.

मारूति – (भार्यिसानु येत्ता. सर्वांक पळेता) राय भटो तुम्मि हांग आस्सायि.

रायभट्टु – हावूं म्हळ्ळें कित्तें सर्व हांगास्सायि. तूं येककम्मि जाल्लो. यो बशि. (मदु बस्ता) (बाकिचे राब्बूनू उर्तायि)

नागप्प – (होडान) मालति! सांग तुग्गेलि जवाब एक्क ऽऽऽ एक मिनिट टैं.

मालति – (धड धडी वोच्चनु पांय्पोडचा कर्ता)

नागप्प – हांग नयिं थयिं. तो पळे थयिं बस्ला (मारूतिक दाक्कैता)

मालति – (मारूतिले लाग्गिं वोच्चुनु) मेग्गेलि चूकि माक्क कळ्ळि माफ करा. तुम्मि सांगिल्तशिशं आय्कुनु उर्तां. (पांय्पडता. मारूति उल्लैना रायभटाक पळैता)

रायभट्टु – जाय्त म्हणरे मारूति. पश्चात्तापान धग्ध जाल्यां तें. ताक्क साबार दुक्को नाक्का.

मारूति – जाय्तगो. आत्तं अख्खल आय्लि नवे तुक्का. चल वोचां.

मालति – भटो तुम्क सुद्दां हावें नाक्काशिशलें म्हळ्यां. तुम्गेलें मन्न दुक्कैल्यां माक्क माफ करां. (पांय्पडता)

रायभट्टु – माक्क बेजारू नागो. तुम्गेलो संसारू सम्म जाल्लो म्हळ्यारि माक्क खुषि. तें सर्व हावुं लाव्नु घेत्तवे? हाजे नंतर आरांशीर सुखान वूरा. दोन्नी सोर्यिको हावें केल्यो. त्यो केन्ना वाय्ट जाव्चा दीना हावुं. देवा दयेन सर्व आनंदु जाल्लो. आत्तं जाल्यारि आम्मि भार्यि सर्ले. हां वेत्तावो नागप्प शेणैनु.

मारूति – आम्मि येत्तांयि.

नागप्प – (सिरियस) बसारे थयिं. (मारूति उड्डून पडता) खंयि वत्ताचि? सर्व जेव्वण कोर्नु वचा. वेळु जाल्ला. भटो तुम्मि आजि हांगा जेव्वण कोर्नु वचा. अन्वाळे कोणेन?

रायभट्टु – फाल्या जान्वे घाल्नु घेत्तवो. 'ऊट होद्रे कोटि लाभा' म्हणतायि. आजि तुम्गिथयिं हितान जेव्का हावें.

..........................................................................................................

नागप्प – वचागो पय्लें चा करा. जेव्णा बेगेन वेळु जाल्लो म्होणु अडना. लायेक्कोर्नु शाबु–तांदला पाय्सु करा.

रत्ना – वेळु कस्सलो. तेग्ग जण आस्सायि. एक्केकल्यान एक्केक काम केल्यारि जाव्नु गेल्लें. सुजाता तें बेग भित्तरि होंदव्वारि. चलागो भित्तरि (तेग्गं भित्तरि वत्ता)

नागप्प – (मुक्कारि येत्ता हत्तां तेत्तां पोळोनु) भटो कश्शिं मेग्गेलो अव्तारू?

रायभट्टु – खरें हावुं भिल्लोंवो.

नागप्प – श्यानभाग डक्ट्राल्यागिं फ्यूज घाल्न घेव्नु आय्यिलो. आनिंक ऽऽऽ फोर्सु आस्सा! आनि कोणा ताप्पोकावे? (शर्टा हात वैरि कर्ता)

रायभट्टु – नाक्कवो. आनि तुम्मि ताप्चें नाक्का ताप्पोचें नाक्का. तस्से दिवस देवु दीना तुम्का.

नागप्प – तुम्गेलो आशिर्वादु .

रायभट्टु – मदु कश्शिं नाटक?

मदु – सूखांत्य जाल्लें. तुम्मि हातु घाल्ले नंतर विच्चार्कावे?

रायभट्टु – मारूति कश्शिं तुग्गले मना प्रमाणे जाल्लें नवे?

मारूति – मेग्गेल मर्याद राक्किल्याक आनी संसारू राब्बयिल्याक हावुं तुम्क चिरत्रुणि.

नागप्प – वटायेरि देवाले अनुग्रहान, रायभटाले प्रयत्नान, आम्गेले घरा लाग्गिलें ग्रहण निवारण जालें.

रत्ना – (भार्यियेव्नु) भटो येया, तुम्मि याया (नागप्प, रायभट्टु भित्तरि वत्तायि.)

सुजाता – (भार्यि येत्ता) तुम्मि उट्ट्व्या या पिव्चाक (मदु भित्तरि वत्ता)

मालति – (भार्यियेव्नु) तुम्मि कित्तें बस्ले?

मारूति – मावांथंचो जांवयिं नयिं? आप्पोचे पय्लें कश्शि येव्चें?

मालति – येया तरि (हासत) (दोग्ग भित्तरि वतायि)

अंक्या पडदो

• •

